# जाग

वर्स ७ ◇ आंक ६ ◇ जानेवारी २००१

संपादी : रवीन्द्र केळेकार

वावुरो संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापो : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

...यां चित्र : आंतोनियु कार्नैरु


## ह्या आंकांत




| | | |
|---|---|---|
| ...र्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| ...द्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| ...न वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

...वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
...क मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
...रुपये अदीक जोडचे)

...राचो नामो:
...ग म्हयनाळें
...-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
...द साउदादिश, पाजीफोंड,
...व – गोंय ४०३ ६०१.
...ळ आंकाचें मोल: रु. ९/-


## नदर संपादप्याची

### प्रजासत्ताक दीस

घरांतलो कोणूय पिडेन हांतुळणार पडलो जाल्यार आमी ताका बऱ्यांतल्या बऱ्या डॉक्टरा सुवादीन करतात. पुणून बऱ्यांतलो बरो डॉक्टर कोण हें कोण थारायता? पिडेन पडला तो तर न्हयच. घरचीं थारायतात आनी घरचीं चार चौगांक विचारून ताका वेंचून काडटात.

देश जेन्ना पिडेन पडटा तेन्ना देश कोणा सुवादीन करपाचो? आतां राजांचीं राज्यां खंयच चलनात. हुकूमशाहूय आयज चडशे उरूंक नात. लोक जांकां वेंचून दितात तांचे सुवादीन आमी देश करतात आनी लोक जांकां वेंचून दितात ते बऱ्यांतले बरे आसतले, अशें कांय म्हणूंक येना. शाण्यांतले शाणे आसतले अशेंय म्हणूंक येना. फाटल्या पन्नास वर्सांचो अणभव लक्षांत घेत जाल्यार वेंचून दिल्ले फुडारी लोकांच्या बऱ्याक कितें पडटलें हाचे परस चड कितें दिल्यार लोकांक बरें दिसतलें हाचोच विचार करून निर्णय घेतात. आमच्याच देशांत न्हय, संवसारांत जंय जंय लोकराज्यां चलल्यांत थंय थंय अधिकारार आयिल्ल्या कोणाकूच कितें लोकांच्या बऱ्याक पडटलें तें खबर आसलें जाल्यारूय लोकांक तें दिवपाचें तांका काळीज जायना. कित्याक, तें सदांच कोडू आसता. काश्मीर पाकिस्तानाक दिवन उडोवया – काश्मीर आमकां खूब म्हारग पडलां – अशें म्हणून सत्येर आशिल्लो कोणूय, धरूंया, काश्मीर दिवपाक भायर सरलो जाल्यार —

दुसऱ्याच खिणाक ताका सत्ये वयल्यान सकल देंवचें पडटलें. कोण ताका सत्येर रावंकूच दिवचो ना.

खरेपणानशीं देशाच्या बऱ्याक कितें पडटलें हाचो विचार 'लोकां'नी – म्हळ्यार, तुमी आमी सगळ्यांनी करूंक जाय आशिल्लो. फकत सत्येर आशिल्ल्यांनी न्हय. ते खातीर जाग्रूत लोकमत तयार करपाक जिवीत ओंपिल्ल्या देशभक्तांची देशांत एक व्हड फौज उबी जावंक जाय आशिल्ली – सत्या हातांत घेवपाचो निखालूस हावेस नाशिल्ल्या नि:स्वार्थी लोकांची. तेच बरोबर सत्येर सत्या चलोवपाचें काळीज आशिल्ल्या निर्भय लोकांची. पुणून —

जिब्रान म्हणटालो, 'असले लोक एक तर उतार पिरायेक लागून मोने जाल्यात वा अजून पाळण्यांतूच आसात.'

प्रजासत्ताक दीस मोटे उमेदीन मनोवंया. पुणून प्रजासत्ताकाचो घात आमीच मारतात हेंवूय लक्षांत दवरूंया. अंदू वर्सा आमी एकविसाव्या शतमानांत पावल दवरलां. विसावें इतिहासजमा जालें. नव्या शतमानांत इतिहासांत जमा जाल्ल्या शतमाना प्रमाण आमी चलचे नात असो सोपूत घेवंया आनी लोकांक जाग्रूत करूंया. नवो इतिहास घडोवंक वावरूंया.

### देश केन्ना फुट्टा?

दुस्मानाक सोंसूं येत. पुणून शेजाऱ्याक? शेजाऱ्या सारको दुश्ट आनी पाडो कोण आसना. काणें तरी म्हळां, शेजाऱ्याक सोंसप निरंतर छळ सोंसपा सारकोच कठीण वावर.

पुणून आमी शेजाऱ्यां मजगतींच वाडटात.

ख्रिस्ताचे शिकवणेंतली सगळ्यांत कठीण आनी तितलीच म्हत्वाची 'शेजाऱ्याचो मोग करात' हीच शिकवण म्हणूंक जाय. दुस्मानाचो मोग करप व्हडलोसो कठीण न्हय. शेजाऱ्याचेर मोग करपांतूच आमचो खरो कस लागता. तो करूंक येवंक जाय. जाल्यारूच आमी जग जिखूंक पावतले.

* * *

एका काळार कांय व्हड घरांनी भाव बापोलभाव तिपोलभाव सगळे एकठांय रावताले. घरांत एक जाणटेलो आसतालो. तो सगळ्यांक एकठांय दवरतालो. सगळे ताका मानताले. तो सगळ्यांचीं लग्नां करतालो. घरांत वेगळ्या वेगळ्या घराण्यांतल्यो सुनो हाडटालो. तांकां भुरगीं जातालीं. तिंवूय त्याच घरांत ल्हानाचीं व्हड जातालीं. भाव, बापोलभाव, तिपोलभाव सगळ्यांचे सभाव वेगळे वेगळे आसताले. सुनो तर सामक्यो वेगळ्या संस्कारांत वाडिल्ल्यो आसताल्यो. सगळ्यां मजगतीं धोशी, धुसफूस, किजिलांय चलतालीं. पुणून सगळीं जाणटेल्या कडेन पळोवन कुळ-परंपरा सांबाळटालीं. कुळपरंपरेक सगळ्यांत चड म्हत्व दितालीं. कांय घरांनी तर रांदन लेगीत एकूच आसताली. सगळे आपापणाले जोडिचो एक वांटो हाडून जाणटेले कडेन दिताले. आनी ती घर चलयताली. सगळीं एकठांय जेवतालीं. घरांत मोगाचेंच साम्राज्य चलतालें. मोगाच्या ह्या साम्राज्यांत घरच्यांच्यो ल्हान-व्हड धोशी व्हांवत्या उदकाचेर मारिल्ल्या बडयेच्या वळीं भाशेन खंयचे खंय पुसून वताल्यो.

आयज असले घराबे खंयच पळोवंक मेळनात. मेळटात त्यो तांच्यो कुरवो, तांचे अवशेष. एकूच घर, पुणून सगळ्यांच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो रान्नी. कित्याक लागून हे घराबे फुटले? कितें जालें? जायतीं कारणां आसात. काळ बदल्लो हें तांतलें एक. पुणून सगळ्यांत व्हडलें कारण म्हळ्यार, सगळ्यांक एकठांय दवरपी म्हालगडो भायर पडलो. मागीर, जण एकलो आपापणालें स्वातंत्र्य जोडूंक भायर सरलो. सगळ्यांत पयलीं सुनो भायर सरल्यो आनी तांणी वेगळ्यो रान्नी मांडून घराबो फोडलो.

रेंव एकठांय उरना. शिमिटान ती एकठांय बांदची पडटा. पीठ एकठांय उरना. उदकांत तें कालोवचें पडटा. तेन्नाच ताची रोटी करूं येता. रवो एकठांय उरना. तुपांत तो भरसुचो पडटा. तेन्नाच ताचो लाडू करूंक येता. एकाच घराब्यांतल्या वेगळ्या वेगळ्या सभावाच्या वांगड्यांक फकत स्नेहान (मोगान) एकठांय दवरूंक येतात. एकठांय दवरपी ह्या शिमीट, उदक, तूप, मोग तत्त्वाक संस्कृत भाशेंत **धृति** म्हणटात. **धृति** म्हळ्यार cohesive force. हें तत्त्व ना वा उणें जाता तेन्ना एकठांय आशिल्लें फुट्टा. **सर्वे महत्वम् इच्छन्ति कुलम् तद् अवसीर्दात.** घराब्यांतलो जण एकलो आपापणालेंच पळोवपाक लागलो जाल्यार घराबो फुटुंकूच जाय. घराब्यांतल्या सगळ्यां विशीं मनांत आपलेपण आसले बगर, सगळ्यांचेर मोग आसले बगर, सगळ्यांच्या बऱ्या भल्यांत आपणालें बरें भलें आसपावता अशें मनस्पुर्वेक मानले बगर आनी दुसऱ्या खातीर आपणालें सूख सोडचें पडटा तेन्ना तें सोडून जाता त्या संतोशा बगर घरांत घृतिचें तत्व चलोवंक येना. तेंच ना जालें जाल्यार घराबो फुटून सगळ्यांच्या नशिबांत वेगळ्या वेगळ्या घोंटेरांतूच रावपाचें आयले बगर रावना.

* * *

कितल्या वंशांचे, कितल्या धर्मपरंपरांचे, कितल्या चालि-रितिंचे, कितल्या जातिंचे, कितल्यो भासो उलोवपी लोक ह्या देशांत येवन रावल्यात, कोंत आनी हिशेब ना. इतल्या जिनसांवार वेगळेपणांत भरिल्लो देश एकठांय दवरतले जाल्यार घृतिचेंच एक तत्त्व केळोवं येता – कोणाच्याच वेगळेपणाक बादा येवची ना हाची जतनाय घेवन सगळ्यांक बाबा-पुता करून एकठांय बांदून दवरपी देशभक्तिचें. 'मुसलमानांक तुमी चडूच माथ्यार घेतल्यात, तांकां बुद्द शिकोवंक जाय' अशें म्हणपी मनीस केदोय शक्तिशाली फुडारी आसूं, ता देशभक्त न्हय. फकत जाटांचे, यादवांचे, मराठ्यांचे, ब्राह्मणांचे, दलितांचे फुडारी आपापल्या वाटारांत केदेय प्रभावशाली आसूं, ते देशभक्त जायनात. देशभक्त फुडारी सगळ्यांक आपलोसो दिसूंक जाय, सगळे ताका आपलेशे दिसूंक जाय. एका काळार असले देशभक्त फुडारी आशिल्ले. तांकां प्रांत नाशिल्लो, धर्म नाशिल्लो, जात नाशिल्ली. म्हूण ते देश स्वतंत्र करूंक पाविल्ले. सगळे तांकां आपलेशे दिसताले, सगळे तांकां आपले मानताले.

असल्या देशभक्त फुडाऱ्यांची जातूच आयज इतिहासजमा जावन गेल्या. कित्याक लागून ती ना जावन गेली हाचो सोद घेवंक जाय. आनी ही जात परती निर्माण करूंक जाय.

जाल्यारूच देश एकठांय उरतलो.

ना जाल्यार तो कुडक्या कुडक्यांनी फुटून वतलो. **सर्वे यत्र विनेतारः राष्ट्रम् तद् नाशम आप्नुयात.**

## खंयच्या तोंडान म्हणपाचें मनशाक बुद्द ना म्हूण?

मनीस आनी मोनजात हांच्यांत एक व्हड तफावत आसा. मनशांत बुद्द आसा. बुद्दीक लागून फाटल्या दोनशें तीनशें वर्सांच्या काळांत तो तरांतरांचे सोद लावंक पावला.

पयलो, मोटारिचो सोद लायलो आनी पयस-पयसले गांव ताणें एकामेकां लागीं हाडले. मागीर, विमानाचो लायलो आनी पयस पयसले देश लागीं हाडले. रेडियो, टी.वी., इन्टरनॅटच्या आधारान अख्खो संवसार एक केलो. टेलेस्कोपाच्या आधारान विश्वब्रह्मांडाचो थाव घेतलो. मायक्रोस्कोपाच्या आधारान दोळ्यांक दिश्टी पडनात असले बारीक सुक्षीम जीव वळखूंक लागलो. एण्टीबायोटिक्स सोदून तरांतरांच्या रोगांचेर जैत जोडूंक पावलो. पोरणावळशास्त्राचे कुदळीन क्रीट आनी सिंधु सारक्यो हजारांनी वर्सां पयलीं पुरवल्ल्यो आदल्यो संस्कृतायो ताणें उस्तून काडल्यो. एक आनी दोन न्हय, हजारांनी सोद लावन संवसार म्हळ्यार कितें, ताचें रूप कितें, तो कसो जल्मा आयलो, कसो विकसीत जायत रावलो - आनी आता तो खंयचे दिकेन चलपाक लागला - असलें कितलेंशें ज्ञान ताणें एकठांय केलें.

मनशाक बुद्द नाशिल्ली जाल्यार इतलेंय हें ज्ञान आमकां मेळूंक पावचें नाशिल्लें.

पुणून ही जाली ताची एक कड.

ताची दुसरीय एक कड आसा आनी तीच आयज सगळ्यांत चड हुसक्याची जावन पडल्या —

दुसऱ्या खंयच्याच जिवान सैमाच्या वेव्हारांत मर्दी पडून सैमाक आडखळ हाडूंक ना. सैमाची संतुळा इबाडूंक ना. वागां शिंवां सारक्या क्रूर प्राण्यांची लेगीत संतुळा इबाडूंक ना. 'सर्व्हायवल ऑफ द फिटेस्ट' नेम सैमांत चलता आसून लेगीत खंयच्याच प्राण्यान धतरियल्या दुसऱ्या खंयच्याच प्राण्याक ना नपश्चात करूंक ना. मनशान कितलेशे जीव ना नपश्चात करून उडयल्यात. इतलेंच न्हय, तर खासा आपणाक लेगीत ना करपाक तो आतां मुखार सरला. जो वारो तो फोफसांत घेता, जें उदक तो पियेता, जें अन्न तो खाता तें सगळें ताणें विखाळ करून उडयलां.

जे धतरिन ताका जल्माक घालो, पोसलो, तिच्याच जिवार तो तुर्ताक उठला.

सुर्याच्या कांय किरणां पसून जिवांची ('जिवांत' झाडां-पेडांय येतात) राखण करपा खातीर सैमान वातावरणांत वयर एक कवच – एक आंगत्राण – निर्माण केल्लें. ताका ओझोनचें कवच म्हणटात. ताकाच मनशान व्हडले व्हडले भोकनोळ घाल्यात. पस्तीस चाळीस वर्सां पयलीं कांय पर्यावरणविदांनी ताका सांगिल्लें, 'बाबा रे, हे भोकनोळ घालपाचे तुजे उपद्व्याप तुवें थांबयले नात जाल्यार कातिचो कॅन्सर जावन लोक मरतले. कातिचो हो कॅन्सर सगळ्यांत चड ल्हान भुरग्यांक जातलो. ते भायर, जमीन करपतली आनी अन्न रोवपाक निरुपयोगी जावन पडटली.' ताणें सगळें एका कानान आयकलें आनी दुसऱ्या कानान सोडून दिलें. खुबूच बोवाळ जालो तेन्ना ताणें एकविसाव्या शतमानांत पावल दवरचे पयलीं आमी हो उपद्व्याप बंद करतात म्हूण सांगलें. एकविसावें शतमान लागलें. तरूय हो —

र्सान वर्स ७५० कोटी टन कार्बन डायऑक्सायड हवेंत सोडटा!

रिणाम – फाटल्या कांय वर्सां पसून दर्याच्या उदकाचो तळ वयर सरा. वचत थंय शारांचीं शारां बुडपाक लागल्यांत. रुतु-चक्राची गती खंड जाल्या. पावस नेमान पडना जाला – खंय खंय गरजे परस चड पडा. तर खंय खंय थेंब लेगीत पडना, अशें जालां.

का लागून अन्नाचें धर्तरि वयलें उत्पादन अर्दें जालां.

भायर, ताणें रानां मारून उडयल्यांत; भूंय-क्षरण (soil erosion) वाडलां; न्हंयांचें आनी दर्यांचें उदक विखाळ करून उडयलां; जमनीर वरां मारून हजारांनी जातिंचे जीव ना करून उडयल्यात...

का 'बुद्द' आसा अशें खंयच्या तोंडान म्हणपाचें?

तरि वयल्या उदकांतलें फकत स प्रतिशत उदक आमी वापरतात चशें शेतकाम-बागायतकामा खातीर, थोडें उद्देगधंद्यां खातीर, उरिल्लें पिवपा खातीर. बाकिचें चौद्याण्णव प्रतिशत उदक दर्याचें. खारें, पियेवपाक उपरना, भूंय शिंपपाक उपकरना हे तरेचें. संवसारांत खूब कडेन पियेवपाच्या उदकाचो प्रस्न गंभीर जावन पडला. हाचें कारण न्हंयांच्या तडीं वयल्या शानी उबे केल्ल्या कारखान्यांनी न्हंयो विखाळ केल्यात हेंच एक. तें विखाळ जालां. हें विखाळ उदक दर्याक वचून मेळटा आनी दर्योय विखाळ जा. बरेंचशें नुस्तें मरता आनी जें उरता ताका पेत्रोलाचो वास येता. खावपा सारकें नासता.

वा? लंडनची हवा विखाळ. जपानांतलीय विखाळ. तोक्योंत गिंझा म्हू एक वाटार आसा. सप्तकांतल्यान एक दीस ह्या वाटारांत मोटार गाडयो वचूंक जायनात असो जपानी सरकाराक कायदो करचो पडला. त्यादिसा 'शुद्ध' हवा फोफसांत घेवपा खातीर अख्खें शार थंय पांयांनी भोंवता. कांय वर्सां पयलीं दिल्ली आमच्या देशांतलें शुद्ध हवेचें एक सुंदर शार आशिल्लें. आयज इतलें विखाळ जालां की क्रिकेट मॅचींत 'आमी थंय खेळचे नात' अशें कांय पंगड म्हणपाक लागल्यात. दिल्ली वतां तेन्ना म्हाका लेगीत दोन तीन दिसां उपरांत केन्ना काय जीव व्हरून घरा पावतों बरो अशें दिसपाक लागता. काकोडकारांक ल्युकेमिया जाल्लो. ताका हेर खंयचींय कारणां आसूंत, दिल्लीची हवा हें एक म्हत्वाचें कारण. सगळीं शारां हवेंत ऍसीड सोडटात. परिणामी, पावसाच्या उदकांत धा पांयांनी चड ऍसीड मेळटा. मागीर, पावस खंयूय पडूं, कॅनडा, नॉर्वे, स्वीडन, डेनमार्क, स्कॉटलंड, युनायटेड स्टेट्स सगळे कडलीं तळीं ऍसीडच्या पावसान प्रदूशीत जाल्यांत. एकाय तळ्याचें उदक पियेवपा सारकें उरूंक ना आनी खंयच्याच तळ्यांतलें नुस्तें जिवें उरूंक ना.

शेतकामा खातीर जमीन तयार करपाक सैमाक हजारांनी वर्सां लागिल्लीं. मनशान एके वाटेन तिचेर रासायनीक सारीं शिंपडायलीं. आनी दुसरे वाटेन तिची भूंय-क्षरण जावंक दिलें. आयज संवसारांत शेतकामाक उपकरा पडपा तसो भुंयेचें वर्सान वर्स अडेच कोटी एकड भूंय-क्षरण जाता. शेतकामांक उपकारा पडपा सारकी भूंय चौथ्या वांट्याची लेगीत उरूंक ना. तीन भुंयेर एक तर 'कॉंक्रीटचीं जंगलां' उबीं जाल्यांत वा रेंवे सडे दिश्टी पडपाक लागल्यात. संवसारांतले खूबशे देश रेंवे सडे जाल्ले दिश्टी पडटात. ताका लागून सुमार एकवीस देशांनी तिनूय त्रिकाळ दुश्काळ पडिल्लो पळोवंक मेळटा.

रानां मारून उडयल्ल्यान न्हंयांक हुंवार येतात. १९५६त हिमालयाचे वाटेक गेल्लों. तेन्ना दनपारच्या कडार लेगीत सुर्याच्या किरणांक मितर सरपाचें काळीज जायनाशिल्लें असलीं दाट रानां थंय आशिल्लीं. आयज त्या वाटारांत कांय जाण मोटारिंनी भोंवन येतात आनी सांगतात, आमकां तुमी सांगता तसलें एकूय रान पळोवंक मेळ्ळें ना. सुंदरलाल बहुगुणांक विचारलें, 'अशें कशें जालें?' 'राजकी फुडाऱ्यांनी आनी कॉंट्रेक्टरांनी रानां मारून उडयलीं', म्हाका जाप मेळ्ळी.

हिमालयांतलीं रानां पुराय भारताक ऑक्सीजन दीत आयिल्लीं. आतां हें काम हिमालय करीत अशी आस्त उरूंक ना.

आमी केन्ना केन्ना मनशाच्या मनीसपणा भायल्या कामांक 'पाशवी' म्हणटात. मनशांतलीं जीं क्रूर आंगां केन्ना केन्ना वयर येतात, तांकांय पाशवी म्हणटात. पाशवी म्हळ्यार पशूंक लागू जाता हे तरेचीं. जनावरांच्या पांवड्याचीं. खरें म्हळ्यार, मनशाच्या मनीसपणा भायल्या करण्यांक पाशवी म्हणून आमी पशुंचो अपमान करतात. मनशान केल्यात तितल्यो आगळिको खंयच्याच पशून सैमाचेर करूंक नात. खंयचेंच जनावर मनशा इतलें क्रूर न्हय. मनीसपणा भायल्या करण्यांक पाशवी न्हय, दानवी म्हणूंक जाय. मनशांत पशुंच्यो बडी नात. एक तर देवांच्यो आसात वा दैत्यांच्यो आसात. युरोपांतले उद्योगीक क्रान्तींतल्यान जी संस्कृताय वयर सरली तिणें मनशांतल्या देवाक पोसवण दिवपा वांट्याची ताच्यांतल्या दैत्याक पोसवण दिली. मनीस दैत्य जालो म्हूण धर्तरी आयज संकश्टांत पडल्या. तो दैत्य जालो म्हूण मनशाचो दुस्मान जालो. दैत्य जालो म्हूण मनशां मनशां मजगतीं ऊंच उणाक, गरीब गिरेस्त फरक पडले. मनशांतूच न्हय तर देशां देशां मजगतींय मुखार सरिल्ले आनी फाटीं पडिल्ले देश निर्माण जाले. धतरिच्या पोटांत आशिल्ली खनीज संपत सगळ्यांत चड फाटीं पडिल्ल्या देशांनी मेळटा. पुणून तिचो वापर मुखार सरिल्ले देशूच करतात. फाटीं पडिल्ल्यांच्या वांट्याक फकत बारा प्रतिशतूच संपत येता, उर्जा फकत अठरा प्रतिशतूच येता. उरिल्ली सगळी मुखार सरिल्ले देश लुटून व्हरतात. मुखार सरिल्ले देश फाटीं पडिल्ल्या देशांक विकासा खातीर मदीं मदीं आधार दितात खरे, पुणून तांकां अशा एका जाळांत धुसपावन घेतात की तातुंतल्यान तांकां भायरूच सरूंक येना.

मनीस बदलूंक जाय. ताका बदलपाचें काम खरें म्हळ्यार अध्यात्माचें. अध्यात्म म्हळ्यार धर्म न्हय. धर्म सोंपता थंय अध्यात्म सुरू जाता. अध्यात्म मनशाक खंयच्याच प्रादेशीक, भाशीक, जातीय बांदपासांत बांदून दवरी ना. सैमाचेर जैत जोडिल्ल्याचो जो गर्व मनशांत आसा तो कोणें तरी जिरोवंक जाय. खरें जैत आपणें आपणाचेरूच जोडूंक जाय हें मनशाक पटोवंक जाय. हें काम केल्यार अध्यात्मूच करतलो. आनी अध्यात्माचो शेक मनशाचेर चलपाक लागतलो तेन्नाच ताची 'बुद्द' फावऽ ते दिकेन काम करपाक लागतली. ताची बुद्द ताचे सुवादीन उरतली. तुर्ताक ती ताचे कडेन उरूंक ना. ताच्यांतल्या दैत्यान ती व्हेल्या. आनी मनीस ह्या दैत्याचे सुवादीन जाला.

## एक दिश्टावो

आवयच्यो अस्थी घेवन हरिद्वाराक गेल्लों. हरशीं, अस्थी घेवन खंयच्याच तीर्थांत वचपाची गोंयकाराक गरज भासूंक जायना. सैमान ताका एक व्हड सागर दिला आनी शास्त्रांनीच **सागरे सर्व तीर्थानि** – सागरांत सगळीं तीर्थां आसपावतात, अशे म्हळां. पुणून बापायच्यो अस्थी हरिद्वाराक व्हरून गंगेक ओंपिल्ल्यो. आवयच्योय, म्हळें, तिकाच ओंपिल्ल्यो बऱ्यो. नांवूय तिचें गंगाबाय.

विधी सोंपतकूच सोमतें रातचे गाडयेन परतें येवं येतालें. पुणून हरिद्वाराक पावतकूच हृषिकेशाक वचून आयले बगर रावं येता? म्हजो आवडटो वाटार हो. जितलेय खेपे पावलां तितलेय खेपे दोन दोन, तीन तीन दीस रावन परतलां. हेय खेपे, म्हळें, हरिद्वार, हृषिकेश, लक्ष्मणझूला, स्वर्गाश्रम बी थळांक भेट दिवन येतलों. वतना खांदावेले पिशवेंत हांवें शांयशीं रुपयांची मोड व्हेल्ली. लक्ष्मणझूल्यार लाचारेन हात मुखार काडून भीक मागपाक बशिल्ल्यो बोडक्यो बायलो कितल्योश्यो दिश्टी पडटात. आवयच्या एका एका वर्साच्या हिसपान शांयशीं बायलांक एक एक रुपया दितलों अशें थारायल्लें. धा बारा जाणांक दिले. उपरांत एक तरणे पिरायेची बायल

मेळ्ळी. हिका, म्हळें, कित्याक दितलों... हिच्यान खंयूय वावर करून जोडूं येता. गलितगात्र जाल्यात तांकांच दितलों. हिका सोडून मुखार गेलों. आनी मुखार एकलेच्या हातार एक उडयलो. फटक् करून ती तरणी बायल उठून म्हजेर गाळिंचो शिंवर घालपाक लागली. 'मरूं तूं... पाड पडूं तुजें. आमचे वरी तुजी भयण हांगा येवन पडूं... आवय पडूं... बायल पडूं... सगळीं वाऱ्यार पडूं.' हांवें कच्च करून आंग काडलें. म्हळें, पाड पडलें हिचें. आतां कोणाक कांय दिवप ना. आनी हांवें पयशे वांटपाचे बंद केले.

मुखार पांच सात पावलांच्या अंतरार चाळिसां भितरले पिरायेचो एक संन्याशी चलत वतालो. ऊंच, काळो सांवळो. एक एकले बोडकेक तो तुकू तुकू करून पळेतालो. मर्दीच थांबतालो आनी मुखावयले बायलेक कितें तरी विचारतालो. प्रस्न आनी जाप आयकतकूच दिसलें, हो बंगाली आसूंक जाय. पुणून तो एक एकलेक बारीकसाणेन नियाळून कित्याक पळेता आनी मर्दीच कोणाची वासपूस कित्याक घेता, म्हज्या लक्षांत आयलें ना. ताचेच गतीन ताचे फाटल्यान चलत रावलों. लक्ष्मणझूला काडून स्वर्गाश्रमांत पावले. थंयच्यान परमार्थनिकेतना कडेन पावले. वाटेर जितल्योय बोडक्यो मेळ्ळ्यो, तितल्यांकूय ताणें नियाळून पळेल्यो.

परमार्थ निकेतनांत गोरखपुरचे गीताप्रेस संस्थेचीं पुस्तकां मेळटालीं. तीं पळोवपाक गेलों. **रामचरितमानस** एक घेतलें आनी भायर आयलों. मुखावयलो घाट सपणां सपणांचो. उपरांत गंगेचें रुंद पात्र. तिचे वयल्यान एक तार लोकांक हेवटेनचे तेवटेन, तेवटेनचे हेवटेन पावोवपाक कितल्योश्यो फावटी मारताली. संन्याशी एका सपणार बसून हो देखाव नियाळीत राविल्लो. हांव ल्हवूच ताचे बगलेक वचून बसलों. 'नमस्ते जी, आपको बुरा तो नहीं लगेगा? मैं आपको एक प्रश्न पूछना चाहता हूँ... आप उन बेवा औरतों को क्या पूछ रहे थे?' हांवें ताका विचारलें.

'मैं किसी को ढूँढ रहा हूँ', ताणें जाप दिली.

'किसको?'

'अपनी बुआ को' (आत्याक) अशी जाप दिवन ताणें म्हाका तिची खबर सांगली—

हांव सात वर्सांचो आशिल्लों तेन्ना तिका लग्न करून दिल्ली. समाजाचे पाडे चालीक धरून तेरा वर्सांचे पिरायेर. घोव तीस वर्सांचो. ताची पयली बायल मेल्ली. ताचें हें दुसरेपणांतलें लग्न. लग्नाक स-सात म्हयने लेगीत जावंक नात, गांवांत कॉलेराची सांथ आयली. हे सांथींत तो भायर पडलो. 'अवदिसा ही... घरांत येनाफुडें हिणें घोवाक खालो' अशें म्हणून घरच्या लोकांनी तिका घरा भायर घाली. बावडी खंय वतली? कुळारा आयली. कुळारा फकत व्हडलो भाव – म्हजो बापूय. (तिका आवय-बापूय नाशिल्लीं.) भाव सनातनी संस्कारांचो. कडक सामको. घरांत विधवा आसूंक जायना, भुरग्यांचेर तिची नदर पडूंक जायना ह्या विचारांचो. म्हाल्याक आपोवन ताणें तिका बोडकी केली आनी गुवाहाटीक कामाख्येच्या देवळा मुखार व्हरून सोडली. म्हयन्या देड म्हयन्यान चलत चलत बावडी परती कुळारा आयली. तिका पळेनाफुडें आमच्या घरच्याच लोकांनी न्हय, तर चाळींतल्या शेजाऱ्या पाजाऱ्यांनी लेगीत कुलकुलाट केलो. म्हूण म्हज्या बापायन तिका उडिसांतल्या जगन्नाथपुरीच्या देवळा मुखार व्हरून सोडली. थंयच्यानूय ती म्हयन्या देड म्हयन्यान परती चलत आयली... गुवाहाटी, जगन्नाथपुरी थळां कलकत्त्याक लागीं. म्हूण उपाय नासून म्हज्या बापायन तिका रेल्वेन बद्द द्वारकेक व्हरून सोडली. द्वारका कलकत्त्या सावन मैलांचे मैल पयस. चलून येवप सोंपें न्हय. मुखार तिचें कितें जालें, कोणाक खबर ना. कांय वर्सांनी सगळीं तिका विसरलीं... हांव विसरूंक पावलों ना. म्हजो बापूय तिका फरफरीत ओडून व्हरता आसतना तिणें जो रडून आकांत केल्लो तो अजून म्हज्या कानांत म्हाका आयकूंक येता... तिचें काकुळटेचें तोंड अजून म्हज्या दोळ्यां मुखार जिवें तट्‌टटीत जावन [उ]रावता. घरच्या सगळ्यांचीं निश्टूर काळजां पळोवन म्हज्यांत जीं विद्रोहाचीं ल्हारां उसळ्ळेलीं तींय अजून तश्शीं उसळटात... हांव शिकलों. समाजशास्त्र घेवन एम्.ए. जालों. पुणून नोकरी करपाची, लग्न करून घरसंवसार घेवन बसपाची इत्साच केन्ना म्हाका जाली ना... समाज बदलूंक जाय, मुळा सावन बदलूंक जाय... समाजांतल्यो नश्ट्यो पाड्यो चाली सगळ्यो हुमटाक नाच करून उडोवंक जाय हे उत्फर्के कशेच म्हाका चार चौगां सारके जिवीत जियेवंक दिनात जाले.पुराय आयुष्य समाज बदलपाच्या वावरांत खर्चितलों अशें थारावन हांव समाजवादी पक्षांत वावरूंक लागलों. मार्क्सवादी जालों... नक्सलवादी जालों. पांच सात वर्सांच्या अणभवा उपरांत, हांवें भितरल्या कोणाच कडेन समाज मुळासावन बदलपाचे वावर नात... सगळे राजकी नदरेनूच चिंततात... सरकारां बदलतकूच समाज बदलतलो अशें मानतात... कायदे करून समाज सुधारतलो अशें धरतात... लोकांचो पोट पाणयाचो प्रस्न सुट्‌टकच सगळे प्रस्न आपशीं सुट्‌टले ह्या भावार्तान सगळे वावुरतात म्हणपाच्या निर्णयार पावलों... गांधीवाद, समाजवाद, मार्क्सवाद, नक्सलवाद... सगळ्यो (आमच्या देशांत तरी) बुद्धिजिवी बेकार लोकांच्यो चैनी... 'मिडल क्लास लग्झरीस' जावन पडल्यात अशें म्हजें मत जालें आनी उबगून हांवें हो पाडो समाजूच सोडून दिलो. संन्याशी जालों. फाटल्या आठ वर्सां सावन देशभर भोंवतां... तिका सोदीत. खंयूय तरी मेळटली हे आशेन द्वारकेक, मथुरेक, वृंदावनांत, वाराणसीक, प्रयागाक सगळे कडेन वचून आयलां. कोणागेरूय तरी ती आसतली हे आशेन कितल्याशा पंड्यांगेर, महंतांगेर वचून रावलों. पंचेचाळीस पन्नास वर्सां भितरली जी जी विधवा दिश्टी पडली तिका नियाळून पळेली... अजून म्हाका ती मेळूंक ना. आनी म्हाका ती सस्तूय बसूंक दिना. एक दीस म्हाका खंयूय तरी ती मेळटली... उपरांत तिका हांव म्हजे वांगडा घेतलों आनी तिचेर जाल्ल्या अन्यायांचें तिची सेवा करून प्रायश्चित्त घेतलों म्हूण आसां... मेळटली ती म्हाका, हे विशीं इल्लोय दुबाव ना. ती आसा खंय तरी...'

उलयतां उलयतां ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. पयलोच संन्याशी हो, म्हज्या आयुष्यांतलो, जाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांविल्लीं हांवें पळेल्लीं.

थोडो वेळ तो ओगी रावलो. मागीर दोळे पुसून उलोवपाक लागलो. 'उत्तर प्रदेशांत सुमार साडे तीन लाख बंगाली विधवा येवन रावल्यात. एके वाराणसींतूच पन्नास साठ हजार आसात. वर्सांनि वर्स ह्या थळांनी धा-एक हजार बंगाली विधवा पावतात... पंचवीस ते पांसश्ठ वर्सां मदले पिरायेच्यो. हांच्यांतल्यो पंचवीस ते चाळिसां मदल्यो भीक मागिनात... खंयच्याय तरी पंड्यागेर वा महंतागेर वावराड्यो म्हूण, रांदपिणी म्हूण काम करतात, भुरग्यांक सांबाळटात. आनी तांच्यो रखेल्योय जावन रावतात... चडश्यो सगळ्यो ब्राह्मण, कायस्थ, वैद्य जातींतल्यो... चाळिसां वयले पिरायेच्यो भीक मागतात... त्यो मेल्यो जाल्यार तांच्या प्रेतांचेर दावो सांगपाक कोणूच येना तेन्ना त्या त्या थळांतल्यो नगरपालिका तांचीं प्रेतां न्हंयेंत सोडटात. न्हंयेंतलीं नुस्तीं मागीर तीं खावन उडयतात...'

हांवें मर्दीच म्हळें, 'हांव खूब कडेन पावलां... सगळे कडेन हांवें विधवा भीक मागतात त्यो पळेल्यात... एका प्रस्नाची जाप म्हाका अजून मेळूंक ना... विधवा सगळ्या प्रांतांनी आसात, पुणून हेर प्रांतांतल्यो चडश्यो कोण ह्या थळांनी दिश्टी पडनात... बंगालीच चड दिश्टी पडटात... तें कित्याक लागून?'

'पयलीं दिसनाशिल्ल्यो. अठराशें एकुणतिसा सावन दिश्टी पडपाक लागल्यात. बंगालांत दोग व्हडले समाज सुधारक जावन गेले. एक, राजा राम मोहन रॉय. दुसरो, ईश्वरचंद विद्यासागर. दोगांयनी सतिचे चाली आड चळवळी चलयल्यो... त्यो इतल्यो प्रभावी जाल्यो की लॉर्ड विल्यम

ॅन्टिकाक सतिचे चाली आड कायदो करचो पडलो. खंयचेय बायलेक गोवाग सरणाचेर बळयां चडयतल्यांक ख्यास्ती जातल्यो म्हूण ताणें जाही केलें. सतिची नश्टी चाल बंद जाली. पुणून विधवां कडेन पळोवपाची लोकी नदर मात हो कायदो निखालूस बदलूंक पावलो ना. परिणामी, वेधक घरा भायर घालून तीर्थस्थळांनी व्हरून सोडपाची नवी चाल लोकी सुरू केली. सती गेल्ल्यो जाल्यार एकूच फावट हुलपून मरतल्यो आशिल्यो. आतां बाबड्यांच्या नशिबांत आयुष्यभर हुलपत रावपाचें आयलें. ममोहन आनी विद्यासागर हांच्या चळवळिंनी फकत एक आंग सफळ करून दाखयलें. ह्या प्रस्नाचें जें विधायक आंग नेटान फुडें व्हरपाचें तें ...ऊक पावले नात. बंगालांत तांचे फाटल्यानूय कोणेंच तें केलें ना... कार्य करचे पयलीं खूब प्रबोधन जावंक जाय. कायद्या उपरांत तर ...ओक नेटान चलत रावूंक जाय. ना जाल्यार सुधारणा मूळ धरूंक ...वना.

फकत आर्थीक आनी राजकी प्रस्नांचेर लक्ष केन्द्रीत केलें म्हूण देश वयर सरपाचो ना. सामाजीक प्रस्नांचेर अदीक लक्ष दिवंक जाय. लोकांचें मानस बदलूंक जाय. ना जाल्यार आमचे सगळे वावर उखलापेच उरतले. पुणून कोणाच्याच लक्षांत हें येना.'

अवचीत 'अच्छा जी, अब चलता हूँ' अशें म्हणून तो उठलो आनी आयिल्लो तेच वाटेन तुरतुरीत परतलो. हांव तारींत बसून पलतडीं आयलों. बसीन हरिद्वाराक गेलों आनी रातचे गाडयेन दिल्लीक वचपाक भायर सरलों.

सुमार पंदरा वर्सां जाल्यांत जातलीं हे खबरेक. अजुनूय मर्दी मर्दी सपनांत हो संन्याशी येता आनी ताचे वांगडा जिका हांवें केन्ना पळोवंक ना ती तागेली विधवा आत्याय म्हाका दिश्टी पडटा. आनी तिच्यांत म्हाका म्हजी आवय दिश्टी पडटा.

मन उचांबळीत जावन न्हीद साप्प उडून वता.

* * *

---

## ...डसाद

...नाक संपादक,
...नाहयनाळें

...गाच्या ऑगस्ट (२०००)च्या अंकांत पांडुरंगबाब भांगी हांचें पत्र ...दांत वाचलें आनी अजुनूय शुद्धलेखनाच्या कांय नेमांविशींचो प्रस्न ...चे पांवड्याचेर सुटावो जाल्लो दिसना आनी भोवन-भोवन तेच नेम ...र्क हाडटात हें पळोवन म्हाका खूब खंत जाली. हो विशय आसा ...कदें हें समजून घेवचें अशें दिसलें. आनी गोवा कोंकणी अकादेमीन ...डायल्ली नेमांची पुस्तिका उकती करून हे नेम करपा फाटल्यान ...ष्टिकोण आसात हें जाणा जावन घेवपाखातीर अकादेमीचे तेन्नाचे सचीव, ...ी. बुमे हांची प्रस्तावना पळयली. शुद्धलेखनाच्या नेमांविशीं भासाभास ...राक जे लोक एकठांय आयिल्ले तातूंत खासा पांडुरंगबाब भांगीय आशिल्ले ...ल्याय वाचलें. ती भासाभास करपाखातीर जे आसले तातूंत सुरेशबाब ...कार हांचोय आसपाव आशिल्लो.

...कणी-इंग्लीश कोशाचो वावर करतना सुरेशबाब बोरकार आमचेबरोबर ...शिल्लो. तेन्ना ताकाच हेविशीं विचारून किदेंय स्पश्टीकरण मेळटा जाल्यार ...या अशें म्हणून ताका मेळ्ळों. आपूण वादांत पडन असो हुसको ...वन हेविशीं भासाभास करपाक तो फाटीं-फुडें जावंक लागलो. तेन्ना ...ची जापसालदारकी हांवें म्हजेर घेतली आनी पांडुरंगबाब इतलें शास्त्र ...णत आसतनाय हे नेम अशे तरेन करपाफाटलीं कारणां सांगचीं अशें ...कडेन मागलें.

...णें सांगलें तें अशें: पांडुरंगबाब हे म्हजेपरस पिरायेन व्हड. तांचो ...ग खूब मोटो आनी अभ्यास खूब खोलायेचो. तांचेमुखार हांव सामको ...ा. तेन्ना तांचो सगलो मान राखून नेमांविशीं कशे तरेन चिंतन ज्रालें ...व थोडेभितर सांगतां.

...ावं काय खांव हेविशीं मागीर सांगतां. **ची** आनी **चे** हांचे उच्चार /[illegible]/ आनी /[illegible]/ अशे कोंकणींत जातात. म्हणून, अर्दें **च** काडून ...**यी** आनी **ये** जोडप बरोबर दिसना. जेन्ना खासा अक्षरूच कोंकणींत ...उच्चाराचें काम करता तेन्ना मुद्दम ताका 'य' लावन बरोवपाची ...ी गरज दिसना. हेच भाशेन **जी** आनी **जे** हांचें.

आतां (ऐ) ( [illegible] ) ह्या स्वरासंबंदान सांगतां. देवनागरी लिपी संस्कृत भाशेखातीर तयार केल्ली. हे लिपयेंत आमी कोंकणी भास बसयल्या. कोंकणींत उकत्या ए आनी ओ स्वरांचीं जायतीं उतरां आसात, पूण हे ए आनी ओ उकते स्वर देवनागरी लिपयेंत नात. म्हणटकच आमी किदें करचें पडलें? एक तर नव्यो कुरवो घालून हे उच्चार दाखोवचे पडले वा नेम सोदून काडून हे उकते स्वर त्या नेमांनी बांदचे पडले. ए आनी ओ ह्या उकत्या स्वरांचीं उतरां पावला पावलाक आशिल्ल्यान तांचो धांपिल्लो आनी उकतो स्वर दाखोवपाखातीर नेम केल्यात. ते जांकां जाय तांकां कोंकणी व्याकरणांत पळोवंक मेळटात.

देवनागरी लिपयेंत **ऐ** स्वर आसा. **ऐ** देवनागरी लिपयेंत उकतो स्वर दाखयला. कोंकणींत अशे उकते स्वर खूब उणे आसात. **ऐ** स्वर **अ** आनी **ए** हांचेपसून जाला. कोंकणींत हो **अ** धांपिल्लो आसा. आनी म्हणून कोंकणींत जो ऐ जाता तो धांपिल्लो आसता. हो स्वर आमच्यांनी **अ** बरोबर **य** हो अर्दस्वर जोडून बरोवन दाखोवं येता. आनी म्हणूनूच आमी ह्य हें उतर 'ह्य' अशें बरयतात; 'है' अशें बरयनात. आनी तेच खातीर अशा स्वरांतलो **अ** जेन्ना धांपिल्लो आसता तेन्ना तो **य** चो फायदो घेवन बरयतात, जशें **बरय**; आनी **बरै** अशें न्हय.

आतां खावं आनी खांव ह्या संबंदान सांगतां. (तें सांगचे पयलीं ताणें कागदाचेर a काडली आनी तें वाच अशें सांगलें. हांवें म्हळें, 'ए'. ताणें म्हळें, 'ए न्हय, आ'. हें अशें कशें? रोमी आल्फाबेतांतल्या एकाच अक्षराचो उच्चार दोन तरांनी? ताणें सांगलें तें अशें: हें अक्षर इंग्लीशींत वाचतात तेन्ना 'ए' आनी पुतुगेजींत वाचतात तेन्ना 'आ'. तेच भाशेन, खावंक हें उतर आमी जर कोंकणींत वाचलें जाल्यार [खावं•क] अशेंच जातलें. खंयचेय दुसरे भाशेचो मनीस तें एकाद्रें [खा•वंक] अशें वाचीत, जशें table उतर इंग्लीश मनीस /teibl/ अशें वाचतलो जाल्यार पुतुगीज शिकिल्लो मनीस तें /tabl/ अशें वाचतलो.

तरी आसतना, **खा** चेर अनुस्वार दिनासतना **व** चेर दिवपाचें कारण किदें हो प्रस्न उरताच. हे विशीं जें चिंतन जालां तें अशें — **खा** धातूक वेगळीं वेगळीं कुसां लावन जाल्लीं रुपां पळोवया — खाता, खाला, खाल्लो, खावपाक, खावच्याक, खावपाखातीर, खावंक, अशीं. हीं सगळीं पळयलीं जाल्यार अचकीत ह्या अनुस्वारान खा चेर उडकी कित्याक मारची? अशी उडकी मारिना जाल्यार आनी व चेरूच तो उरलो जाल्यार, आनी अनुस्वार सदांच स्वराचेर आशिल्ल्यान व + अं = वं अशें जातलें आनी म्हणून **खावं** अशें जातलें. देखून, अनुस्वार **खा** चेर वचूंक जाय. पूण

हो अनुस्वार निखटो **व** चेर ना. तो **आव** ह्या संदीस्वराचेर आसा, आनी तसो तो आशिल्ल्यान **खावं** अशें आमच्यांनी वाचूं येता. भाशाशास्त्र हांव शिकूंक ना पूण म्हज्यान एक देख दाखोवं येता.

अशें म्हणून ताणें Konkani of Kankon हें A. M. Ghatge, Professor of General Linguistics, University of Poona हांचें पुस्तक उकतें करून Phonology ह्या प्रकरणांत पान ७चेर आशिल्लो **अय** संदीस्वर आशिल्लें एक उतर दाखयलें. तें अशें / əy / / əỹsṭĩ / – eighty. हे देखीवयल्यान एक गजाल सिद्ध जाता. ती म्हळ्यार, संदीस्वरांतल्या अर्दस्वराचेर अनुस्वार आयलो जाल्यार तो संदीस्वरूच उरता. आनी म्हणून खावं जेन्ना बरयतात तेन्ना शास्त्राचेय नदरेन तातूंत कांयच चूक ना. हेच भाशेन, **क** कूस लागून अशे तरेचीं उतरां जातात तेन्ना थंयूय बी **व** चेरूच अनुस्वार दवरचो अशें थारायलां, जशें **रोवंक.** हे विशीं आनीक समजून घेवपाखातीर शणै गोंयबाबाचें **कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ** कोणाच्यानूय पळोवं येता. ह्या पुस्तकांत हो विशय पान १७९चेर तांणी दाखयल्लो आसा.

**न्हय** आनी **न्हंय** हेय विशीं जायती भासाभास जाल्ली आसा. हय हाचे उरफाटें न्हय. हें **न्हय** उतर भाशेंत भोवन भोवन आयिल्ल्यान आनी **न** मुळांतूच नाकयें जाल्ल्यान ताजेर अनुस्वार दिवपाचें टाळचें अशें थारायलें आनी मांडवी न्हंय हातूंतल्या न्हंय उतराचेर अनुस्वार दिवचो. जशें, ''ही न्हंय मांडवी न्हंय न्हय ?''

इतलें सांगले उपरांत ताणें आनीक एक गजाल सांगली ती अशी — जण एकल्याक मत हें आसताच आनी आपल्याक आपलें मत खूब व्हड दिसता, पूण चार चवगांत वावुरतना मत हें हट्ट जावंक फावोना. आनी आपल्या हट्टाप्रमाणेंच दुसऱ्यांनी चलचें हो हट्टाचो अतिरेक. चार चवगांच्या वावरांत अशा हट्टाक सुवात मेळना. आमी **माल्लो, धल्लो** अशें बरयत आयिल्ले. पूण नेम थारायतना धातू जशाक तसो दवरचो अशें जेन्ना मानून घेतलें तेन्नासावन आजमेरेन आमी मारलो, धरलो अशेंच बरयतात. इ, ई, उ, ऊ हे स्वर अि, अी, अु, अू अशे बरयत आयिल्ले. पूण नेम थारायतना ते इ, ई, उ, ऊ अशे बरोवचे अशें थारलें. आज आमी नेमाप्रमाण बरयतात.

खावंक, घेवंक हीं उतरां एकदां अशे तरेन बरोवचीं अशें थारायले उपरांत आपल्याक आवडूं वा नावडूं, आपल्या मताप्रमाण घडिल्लें आसूं वा नासूं, जे मेरेन ह्या नेमांनी बदल जायना ते मेरेन आपणें ह्या नेमांक बांदून घेवचें, अशें ताणें सांगलें.

हें इतलेंय सगळें जाणून घेतले उपरांत अशें दिसलें, कोंकणी अकादेमीन जे नेम थारायल्यात तेच मुखार व्हरचे. कसलोय बदल करपाचो जायत जाल्यार तो अधिकार कोंकणी अकादेमीक आसचो.

शब्दकोशाचो वावर करतना आमकां जायतीं मळां अशीं सांपडलीं जंय नेमांची गरज आसा, जशें, रेफ बी. आमी आमचे पुरतो तांचेर विचार करून आमचे पुरते नेम केले, आनी ते तशे पद्दतीन किद्याक केले तेंय आमी शुद्धलेखनाविशीं एक खेरीत टिपण दिवन सांगलां. पूण शुद्धलेखनाचे नेम हे जापसालदार संस्थेन करपाचे आसतात. अशी संस्था हे आदीं कोंकणी भाशा मंडळ आसली आनी आतां गोवा कोंकणी अकादेमी आसा. हे संस्थेन नेमांचेर परतो विचार करून ते थारावपाची गरज आसा.

— **दामोदर घाणेकार**
पणजी-गोंय

*ही चीट शुद्धलेखनाच्या नेमां विशीं आशिल्ल्यान तिच्या बरपांत शुद्धलेखनाचे कसलेच बदल करूंक नात.*

— **वावुरपी संपादपी**

भौ. वावुरपी संपादपी
**जाग.**

म्हजे चिटयेच्या संदर्भांतलो तुमचो खुलासो वाचलो. तुमी मांडल्या ते मुद्दे कोंकणी भाशेच्या स्टॅन्डर्डायझेशना विशीं आसात. तुमी ए भाशाशास्त्रज्ञ आशिल्ल्यान कोंकणी भाशेच्या स्टॅन्डर्डायझेशनाचो प्रस म्हज्याकूय तुमकांच अदीक बरे तरेन खबर आसतलो हाची म्हाका पुरा जाणविकाय आसा. पूण म्हजो मुद्दोच वेगळो आशिल्लो. कोंकणी स्टॅन्डर्डायझेशन करपाक तुमी कोंकणी गद्यांत भाशेचें जायतें एडिटींग कर येता पूण कविता ह्या प्रकारांत तें करप शक्य ना, हो म्हजो मूळ मुद्दो.

कारण कवितेंत (म्हळ्यार बरे कवितेंत) 'कवितेची भाशा' आनी 'कवितेंतली भाशा' अशो दोन भाशा एकाच बरोबर वावुरतात. तशें गद्यांत नासता. ते खातीर गद्यांतली भाशा एडिट केली तरी व्हडलोसो फरक पडना. हाचे उलट कवितेंत त्यो दोन भाशा हातींत हात घालून आशिल्ल्यान थंय संपादकाच्या एडिटींगचो आपर्शीच परिणाम जातलो. देखीक, बाकीबाबांची प्रसिद्ध **पांयजणां** कविता घेवंया. ते कवितेंत कितलिशीं मराठी/परभाशेंतली उतरां आसात. **मंद-मंद, गडद, मौन, कंठ, रंध्र, शकुन, चंद्रलोक, इंद्रनंदना** अशीं तांची वळेरी दिवं येता. आतां कोंकणीच्या 'बऱ्याखातीर' बाकीबाबांचे हे कवितेंतलीं असलीं सगळीं उतरां 'एडिट' केल्लीं जाल्यार रसिकांच्या हातांत कितें उरतलें हें चिंतुनूच आंगार कांटो येता. एक म्हळ्यार, बाकीबाबांची ही कविता इतली कॉम्पॅक्ट आसा की खंयचेंच उतर कापपाक वा हालोवपाक मेळपाचें ना. 'कंठ' उतराचे सुवातेर 'ताळो' हें उतर घालून पळेयात, कवितेची रसहानीच जातली. कारण 'कंठ' ह्या उतराचो संबंद जितलो 'न्हंयच्या दाटलेपणा'कडेन आसा तितलोच तो 'न्हंयच्या कांठा'कडेनय आसा. म्हणूनूच 'कंठ' उतराचे सुवातेर 'ताळो' हें उतर घालीत जाल्यार बाकीबाबांचे **दाटलो न्हंयचो कंठ कांठ** हे सुंदर वळिचो खून करपाचें 'पातक' अशा संपादका कडल्यान घडूं येता. हे कवितेंतलीं अशीं आनीक कांय उदाहरणां दिवं येतात, पूण ही एकूच देख पुरो.

तुमी बरयतात, 'कवीन जितल्या प्रामाणिकपणान कवितेची साधना करूंक जाय तितल्याच प्रामाणिकपणान ताणें भाशेचीय साधना करूंक जाय.'

हाचेर म्हजें उत्तर अशें – कवी कविता बरयता म्हळ्यार तो भाशेचीच साधना करता. कारण, कविता ह्या वाङ्मयप्रकारांत कवीन भाशेचो जास्तींत जास्त सर्जक उपयोग केल्लो आसता. बाकीबाबांचे **पांयजणां** कवितेंत भाशेचीच यशस्वी साधना आसा. ते बगर इतली सुंदर कविता बरोवप शक्यूच ना.

**पैसुल्ल्यान वाजली घांट**
**दाटलो न्हंयचो कंठ कांठ**
**सावळ्यानी घमघमाट सुटलो त्या खिणा**

अश्यो घमघमाट सुटिल्ल्यो वळी बरोवपाक कवी कडेन भाशेची मोठी साधनाच आसची पडटा. आतां एकाद्रो भाशाशास्त्रज्ञ लेगीत भाशेची साधना करता. पूण ताचे आनी कविचे साधनेंत मोठ्ठो फरक आसता. भाशाशास्त्रज्ञ साधना करून भाशेचे नियम तयार करता, हाचे उलट कवी साधनेंतल्यान ते भाशेचे नियम मोडून एक वेगळीच काव्यभाशा तयार करता. अस्सल कविची साधना ती ही. देखीक, बाकीबाबांची आनीक एक वळ पळेयात :

**पट्टिट केन्नां सपनां तींच घट्टी जाग्रणां**

आतां हातुंतलीं 'पट्टिट' आनी 'घट्टी' हीं दोन उतरां पळेयात. कोंकणी भाशाशास्त्रज्ञाचे नदरेन हीं दोनूय उतरां चूक थरूं येतात. कारण 'पडपी' आनी 'घडपी' अशें त्या उतरांचें मूळ रूप. पूण त्या उतरांचेर बाकीबाबान काव्याचो अलंकार चडोवन 'पट्टिट' आनी 'घट्टी' केल्यांत. आनी तीं कवितेंत सामकीं फिट्ट बसल्यांत. भाशेच्या स्टॅन्डर्डायझेशना खातीर ओगीच

कडूंक मेळनात, हालोवंक मेळनात.

तव 'पांयजणां' कवितेंत बाकीबाबान कांय उतरां अशुद्ध बरयल्यांत. तीं तुजिं, आयलिं, वैर, लागलिं बी. आतां हीं उतरां शुद्धलेखनाच्या प्रमाण 'तुजीं', 'आयलीं', 'वयर', 'लागलीं' अशीं आसपाक जाय आसा. मागीर ते शुद्धलेखनाचे नेम बाकीबाबान कित्याक पाळूंक नात? ह्या गतार कोंकणी भाशा मंडळान शुद्धलेखनाचे नेम तयार करूंक शिले, हें हांगा म्हत्वाचें ना.) खरें म्हळ्यार अशें अशुद्ध लेखन बाकीबाबांचे कविर्तेत लेगीत मेळटा. हाचो अर्थ, बाकीबाबांक शुद्धलेखनाचे नेम बरनाशिल्ले अशें म्हळ्यार अतिताय जातली. खरें सांगचें जाल्यार बाकीब ते नेम मुद्दाम मोडटाले. तांच्या म्होवाळ छंदांत तीं उतरां बसोवपाक कांते नेम मोडचेच पडटाले. आनी ते नेम मोडटाले म्हणुनूच तांची कविता तालसुरांत येताली.

तुमी बरयतात — 'कोंकणीच्या बऱ्या खातीर अशीच मेकळीक मी ज्ञान हेंच मर्ण / आनी मर्ण हेंच ज्ञान ह्यो वळी बदलतना घेतल्या. तुमचे कवितेन सामकें मराठी वळण घेतलां...' फुडें तुमी म्हणटात, कविर्तेत असलो 'हो' ना. हो 'हो' आमगेल्या मराठी वाचनांतल्यान कां बरपांत शिरकला.'

मराठी वळण टाळपाखातीर तुमी ज्ञान हेंच मर्ण आनी मर्ण हेंच ह्यो वळी 'ज्ञानूच मर्ण आनी मर्णूच ज्ञान' अश्यो बदलून घेतल्यात. मी बदललेलें तें रूप लेगीत मराठींत आसा. मराठींत तें 'ज्ञानच आनी मरणच ज्ञान' अशें जावं येता. म्हणटकूच, तुमी बदललेल्या कितें फरक आसा? पूण तुमी तें रूप बदललें हाचे खातीर म्हजे मात थोडो फरक पडटा हें म्हाका सांगचेंच पडटलें. 'ज्ञान' हे कवितेक एक तात्विक सूर आसा. ते खातीर हे कवितेची बैठक आत्मक स्वरुपाची जाल्या. ज्ञान आनी मर्ण हांचो संबंद हांव हांगा कायज करूंक सोदतां. ठासून सांगूंक सोदतां. हें ठासून सांगपाक हें उतर वापरचेंच पडटा. 'ज्ञानूच मर्ण आनी मर्णूच ज्ञान' हातूंत आलेपण येयना. तें मिळमिळीत दिसता.

कोंकणींत 'हेंच', 'हो' हीं उतरांचीं रुपां नात हें तुमचें म्हणणें म्हाका वाद दिसता. तुमीच दिल्लीं कांय उदाहरणां पळोवया. 'अनूप होच भाव' हें तुमचे नदरेन चूक. उलट 'अनूप म्हजो भाव' हें तुमचे बरोबर. पूण म्हजे नदरेन दोनूय बरोबर. कारण ह्या दोनूय वाक्यांत वेगळे भाव व्यक्त जाल्यात. 'अनूप होच म्हजो भाव' ह्या वाक्यांत ठासलेपण आसा. म्हळ्यार, दुसरो-तिसरो कोणूच न्हय तर अनूप म्हजो भाव. उलट, दुसऱ्या वाक्यांत 'अनूप म्हजो भाव' ही गजाल आसा म्हणून थंय ठासून सांगचें पडूंक ना. एकाद्री गजाल एम्फसायज करची पडटा, तर एकाद्र्याक पटोवपाक वा ताचो दुबाव ना करपाक. दिल्लें आनीक एक उदाहरण पळोवया. 'भारत हो म्हजो देश' हें तुमचे नदरेन मराठी वळणाचें, उलट 'भारत म्हजो देश' हें वाक्य कोंकणी वळणाचें दिसता. म्हजे नदरेन हो कोंकणी-मराठी वळणाचो नासून तो अभिव्यक्तिचो, एक्सप्रेशनाचो फरक आसा. लोकांचे यली कोंकणी आयकुनूच हांव हें विधान करतां.

तां म्हज्या लेखनांत शुद्धलेखनाच्यो चुको आसूं येतात. ते खातीर क एकाद्रो गद्यप्रकार धाडटना शुद्धलेखना खातीर हांव तुमचेरूच रावतां हेंवूय म्हाका सांगचेंच पडटलें. कवितेंत लेगीत कवितेचें सौंदर्य नासतना संपादकान शुद्धलेखनाचे संस्कार केले जाल्यार ते म्हाका आसतात. पूण स्टॅन्डर्डायझेशनच्या नांवा सकयल केल्लें कवितेच्या 'एडिटींग' हें आशयाक आनी एकुणूच कवितेक बाधा हाडपी आसता. गतार संपादकान आपलो भाशेच्या स्टॅन्डर्डायझेशनाचो विचार सोडून कवितेंतले भाशेच्या काव्यगुणांचोच विचार करचो पडटलो. कवितेंत एकाद्रें अशुद्ध वा परभाशीक उतर आयलें, पूण तें उतर जर एकूण कवितेचें सौंदर्य वाडोवपी आसलें जाल्यार थंय परत काव्यगुणूच म्हत्वाचे थरतले. (बाकीबाबांच्या पांयजणांची देख ते खातीर हांवें मुद्दम वयर दिल्ली आसा).

जावं. हे निमतान तुमचे वांगडा भासाभास जावन तुमी म्हज्या विचारांक खाद्य दिलें ते बद्दल धन्यवाद. असोच मोग आसचो.

**— काशिनाथ शांबा लोलयेकार**

भौ. संपादपी, जाग,

मायेमोगाचो नमस्कार.

तुमकां चीट बरोवन तुमगेल्या उत्कृष्ट दिवाळी आंका खातीर परबीं दिवचेलें कितले दीस जाले मनांत आशिल्लें. ते प्रमाण एक विस्तृत चिटय बरयली. पूण ती जागाचो डिसेंबराचो आंक छापखान्यांत वचचे आदीं धाडूंक जमली ना. ह्या कळावा खातीर ते चिटिचो फकत आपरोसच आतां बरयतां.

मांडावळ, मजकूर आनी विविधताय ह्या सगल्या आंगांनी अंदुंचो दिवाळी आंक खरोच सरस आशिल्लो. हातांत घेतले उपरांत तो सोंपयसर सकयल दवरूंक जालो ना. सातय कथा ओडलायण्यो आशिल्ल्योच, पूण मानसिकतायेक केंद्रित करून लेखक-लेखिकांनी कथावस्तु मांडिल्ल्यान त्यो वाचप्यांची अदीक खोलायेन पकड घेवंक पावल्यो. व्यक्तिशः म्हाका **घरप्रवेश** आनी **निशा** अदीक आवडल्यो. पयलेंत वाचप्याची पुरायेन धादोशी जाता. दुसरेंत माथाळ्याक लागून मात्शी निर्शेणी येता. असलो 'नांवापुरतो' माथाळो दिवन एके बरे कथेची वाट लायली म्हूण म्हाका तर शिलाबायचो राऽग आयलो. तिणें अशें करचें न्हय...! **काळ–काळोख** बरी सादल्या. पूण इल्ली चड विज्ञानीक जाल्या व्हय, असो प्रस्न पडलो. विशय मात आवडलो. **चंद्रकोर** सोबीत म्हणूं येताली. पूण तातुंतलो तेंगशेवेलो प्रसंग पुरायेन पटपासारको करपांत कथेचो आदलो प्रवाह उणो पडलाशें दिसलें. दयेचें 'पात्र' उत्स्फूर्तपणान 'असल्याय' मोगाचें (?) पात्र थारूं येता. पूण ते खातीर अस्तुरेचे मानसिकतायेची प्रगाढ उलथापालथ सामकारावंक जाय.

कवितां विशीं बरयतलें जाल्यार एक पुराय लेख बरोवचो पडटलो. पूण जागाच्या दिवाळी आंकांत कोंकणी कवितेचें cross-section उदेल्लें पळोवन बरें दिसलें. 'अणकाराचो कोनसो' आवडलो. डॉ. अशोक केळकरांच्या लेखाचो अणकार माधवीबायन फावोशे तरेन केला. 'एकोत्तरशतींत'ल्यो दोन कविता बऱ्यो प्रगटल्यात.

लेखां विशीं बरयन तितलें थोडें! जागाच्या प्रगल्भ रुपाचो आविष्कार हांगा बरे तरेन उदेला. **लिपी: एक सोद** हो लेख भोव अभ्यासू नदरेन बरयला. ह्या मळार हालिंच्या काळार जावपी अभ्यासाची दखल घेवन ह्या लेखांत (कांय काळानुरूप निश्कर्षांचो आसपाव करून) बदल करून तो लेखकान (हेर लेखांवांगडा) पुस्तकरुपान उजवाडावचो. हे नदरेन नटवर झा आनी राजाराम ह्या संशोधकांलीं हालिंचीं मतां उपेगी थारतलीं. तशेंच सिंधू संस्कृताये आदलो आनी उपरांतचो काळ थारायतना १९९९ ते २००० मजगतीं उपलब्ध जावपी इतिहासीक पुस्तकां-पुराव्याचोय उपेग जावं येता कारण हातुंतले बरेचशे पुरावे कार्बन पद्दतिचेर पातयेवन रावनासतना रिमोट सॅन्सिंग सारकेले अदीक अद्ययावत आनी विज्ञानीक नदरेन स्पश्ट पद्दतिचेर आदारल्यात.

जयमालाबायचो 'कंप्युटराय नमः' भोव मानवलो. तेचपरी अ.ना. म्हांबरो हांचे 'कांय प्रस्न' आनी दिलीप बोरकाराचो 'म्हायतीपट' हीं बरपां वेगळ्या

वेगळ्या कारणांक लागून आवडलीं. 'कांय प्रस्न' अळंग खातकुतल्यो **करता** देखून, 'म्हायतीपट' सदचेवरीच तीख आनी चाबरी तासंपट्टी **करूनय**...! दिलीपान हाताळिल्लें नवें तंत्र सोबीत आसा. तो नवो आशय केन्ना झूऽऽम करीत काय? अशें बरयतनाय बरयतल्याचो 'क्लोजअप' फ्रीझ करीत हो भंय आसाच...!

जयंती नायकाचें **लोकरामायण** वेगळें म्हूण लक्षवेधी आसा. वाचतना कांय मुद्द्यांनी तफावत दिसली. ते मांडप म्हगेलें कर्तव्य कशें दिसता. देखून नमळायेन हें 'कटु-कर्तव्य' करतां.

(१) वाल्मिकी रामायणाच्या रचना काळाविशीं मतभेद आसुनय लेखांत फा. कामिल बुल्के 'बुद्धा आदीं' म्हळ्यार ख्रि.पू. ५व्या शतमाना पयलीं' अशें मत उक्तायता, अशें सांगलां. तेच प्रमाण याकोबी मॅक्डोनेल, विंटरनिट्झ, मोनियर विल्यम्स आनी चि.विं. वैद्य हांणी ताचें मत्त उखलून धरलां, अशेंय लेखांत म्हळ्ळां. डॉ. व्यास तें पाणिनी आदीं म्हळ्यार ख्रि.पू. ८०० वर्सां पयलीं मानता, जाल्यार कीथ तें ख्रि.पू. ४थ्या शतमानांत अशें धरता अशेंय लेखांत म्हळां. मात वाल्मिकी रामायणा आदीं कांय 'लोकगाथा' आशिल्ल्याचें लेखांत 'बौद्ध त्रिपिटकां तांचें प्रमाण दितात' ह्या आदाराचेर सांगलां. हाचेवेल्यान तें वाल्मिकी रामायणा आदीं आशिल्ल्याचें कशें थारता? बुद्ध आनी त्रिपिटकांचो काळ थिरायेन सांगूंक जाय.

(२) कुशी-लव हें फकत 'दर्भ-लवो' हे **'गो-संस्कृती'**कडेन संबंदीत व्युत्पत्तींतल्यान पळोवप समा? काय त्या नांवांचे दोन जुंवळे पूत रामाक ही कथा गावन दाखयतात हाचोय संबंद गाथा-जल्मा कडेन जोडप योग्य? हे दोगूय पूत आश्रम-संस्कृतींत वाडल्यात हें लक्षांत घेवपासारकें न्हय?

(३) कुळंबी समाजांत गड्यां रामायणाची प्रथा दोनेक हजार वर्सां आदीं पावली. कोळकर्ण गांवांत हें गायन खास करून 'गाणेल' घराणें करता ही म्हायती भोव उपेगी. पूण जर ह्या घराण्या वरवीं केन्नातरी रामकथा गोंयचे शिमेंत भितर सरून उपरांत गोंयच्या लोकमानसाक प्रभावीत करूंक पावली जाल्यार 'लोकगाथा' वाल्मिकी रामायणा परस आदली कशी जाता?

(४) गड्यां रामायणाचो हाताक लागिल्लो भाग 'अरण्यकांड'. ताचो **सुधारीत** (म्हणजे उपरांतचो जालो ना?) प्रकार रणमालें. हो उपरांतचे प्रकार लोकरामायणाच्या पुर्विल्लेपणाविशीं ठोस निश्कर्श काडूंक कितले मेरेन वापरूंक जायत? ग्रांथीक रामायणा परस खेरीत आसप हें लोकरामायणाचें एक गिरेस्तपण आनी तें अभ्यासकांचे नदरेक हाडून दिल्लें खातीर जयंतीबायची तुस्त करीत तितली थोडी. पूण इतल्यान ताचें पुर्विल्लेंपण स्थापित जायना. खास करून जेन्ना उपरांतच्या रणमाल्यांत मेळपी कथानकाच्या आदाराचेर तें पातयेता तेन्ना तर नाच ना. देखून 'वाल्मिकीन रामायण रचलें तेन्ना मूळ गाथांचेर ताणें संस्कार करून महाकाव्य रचलें' हें मान्य करपाक वेगळो आनी अदीक आदार जाय. कारण खुद्द जयंतीबायनच म्हळां ते प्रमाण लोकरामायणांत (गड्यां रामायण काय रणमालें हें स्पश्ट जाल्लें ना) अयोध्येचें राज्य मांडिल्ल्या दसरंथागेर भुरगें ना म्हणपाचें गिन्यान वाल्मिकी रुशीक जाता. म्हणजेच लोकरामायणांत जर दशरथ (अयोध्येचें राज्य, राजाचें निपुत्रीकपण) आनी वाल्मिकी हांचो उल्लेख येता जाल्यार **ते** लोकरामायणा आदले थारले नात?

मागीर लोकरामायणाचें (गाथा वा रणमालें ह्या रुपान) देय आनी श्रेय उणें थारोवचेलें तर? नाच ना. कथेंतलें हें वेगळेपण गाथाकारा(रां)चे गिरेस्त प्रतिभेची आनी गाथा जंय कोंकणींत चंवरली, त्या प्रदेशाचे सांस्कृतीक गिरेस्तकायेची गवाय दिता! एखाद्र्या प्रज्ञावंताच्या सृजनाचें हें फळ मोलादीक आसुनय प्रक्षिप्तय आसूं येता हें लक्षांत हाडून दिवचेलो हांगा यत्न केला. गाथेच्या वेगळेपणांत गाथाकाराची कल्पक, नवलायपुराय सर्जनकळाशी उदेता. पूण तितल्यान गाथेचें ग्रांथीक रामायणापरस आदिनत्व सिद्ध जायना. ग्रांथीक रामायणाचो श्रोत घडये लोकगाथेंत आशिल्लोय जायत **पूण तो कोंकणी लोकगाथेंत आशिल्लो** हाका अदीक सबळ, सक्षम आनी इतिहासिकता-निश्ठ पुरावो जाय. तो मेळटलो तो आमचे खातीर भांगरा दीस आसतलो. जयंतीबायन घेतिल्ल्या कश्टांचें चीज जावचें ही इत्सा.

बरें मांगून

**— डॉ. किरण बुडकुले**
गोंय विद्यापीठ, ताळगांव

# ंदालो पोर हो

वी खिस्त)

**त केळेकार**

क वरसांचो हांव तेन्ना. पूण वाड्यान वाडो वसू कसो भोंवत रावतालों. चक्रां लायिल्ले वरी. घरांत बसुंकच जायना असो शाप आशिल्लो ल्हान व्हड वाटांनी भोंवतां भोंवतां नदर मात भोंवताली खांदयांचेर, खंय कितें पिकलां हाची सुलूस घेयत. पिकिल्लें फळ की ना, थार करिनासतना तें काडपा खातीर धडपड सुरू जाताली. वलुंवताले, पांय शिंवशिंवताले. केन्ना एक फावट झाडार चडटां त्या फळाचेर जावं फळांचेर झोपय मारून तीं बोल्सांत कोंबतां तालें. जमनीर भोंवता आसतनाच हे भाशेन झाडांचेर भोंवपाचो रूं जाल्लो. कोणाल्या कुळागरांत, खंयच्या दांड्यार, खंयचे कडेन शी आमूस तोरींग आसा, खंयचे कडेन मासाळ पेरांच्यो पेरी आसात, या आतोडांत आंतेरींचेर आंतेरां पिकल्यांत वा अमुरपिकीं जाल्यांत अदमास घेवपाचें काम चालूच आसतालें. चडपाक सगल्यांत बरें मोडपाची भिरांत नाशिल्लें झाड तें पेरिचें. पेरीर चडून ताळयेन भोवं, मोडपाचो इल्लोय भंय ना. निजाचेंच झाड चिवट, ते भायर तें भुरग्यांक पेलसारकें. ताका लागून ताचेर चडून पेरां काडपाचें करून खांद्या खांद्यांचेर सर्कशींतलें मेडापेन्न करपाक कसलीच ळ ना. आमच्या घरा सकयल 'सावरीदांडो' नांवाचो एक कुळागराचो आसा. तो सोंपता व्हाळा कडेन. ते धडेर देगे कडेन एक पेर आशिल्ली. ांदे बागयतकर, व्हाळाक उदक मरिल्लें आसल्यार, सामके उदकाक ले. खांद्याचेर चडून तांकां हालहालयत उदकाक तेंकोंवपांत मजाच दिसताली. म्हजो तो सदचोच रिझोवणेचो खेळ आसलो. ते पेरीर क पेरांच जाल्लीं आसूंक जाय अशें नासलें. घरा लागसार आशिल्ल्यान रून दनपारच्या वेळार ते पेरिचेर खेळ खेळपांत वेळ बरो वतालो कुडीक व्यायामय बरो जातालो. पूण 'पचमे' वाड्या वयल्या त्या रांत आशिल्ले पेरिची मात गजाल वेगळी. तिका आब्रील-माया तेंपार घोंसार घोंस लागताले आनी तांतलीं पेरां पिकत रावतालीं. दर पिकिल्लीं पेरां काडपाक पेरीर चडून ताळयेन ताळी भोंवन, वेंचून लीं पेरां काडपांत एक आगळीच खोस भोगताली. खांदे हालोवन पेरां शिंपडावप म्हळ्यार लजेक म्हारग कशें दिसतालें. कांय न्हय र म्हयनो भर तरी तीं पेरां झाडाचेर पिकत रावतालीं आनी आयतीच मजा जाताली. आमच्या भुरगेपणांतल्या त्या काळार पेरां, घोंटां व्हडलेंशें वाल नाशिल्लें. बाजारांत तीं विकूंक व्हेल्यार गिरायक तच दीस घालपाचो आनी खपनाशिल्लो तो माल परतो घरा व्हरपाक हण वाटेरच आशिल्ले खंयचे एके व्हाळयेंत मोखून मारपाचो.

मच्या घरांत त्या काळार माया म्हयन्यांत बायलांचो फुलवुड्यांचो आसतालो. तरेकवार फळां घालून तयार केल्ले हे वडा-पानांचे ांवांतल्या बायलांक आपोवणो दिवन तांकां दिवपाची एक चाल ली. तातूंत फळां आसतालीं तीं गिमा दिसांत पिकतालीं तीं. चुन्नां, चारां, जांबळां हीं दोंगरी फळां धरून पेरां, घोंटां, रसाळ तशे रे, तोरंगां शिरो, आंब्या शिरो, भिण्णां बी फळांनी उपाट भरिल्ले व्या चार पानांचे दोणे म्हळ्यार वसंत रुतुंतलो फराळच म्हणपाचो पेरां हाडपाचें काम कोणा एका भागेल्याक आवयन सांगलें की ना हांव जावन तीं पेरां हाडूंक पचमेच्या कुळागरांत वतालों आनी कुरपणो भर पिकिल्लीं पेरां घेवन येतालों. तशेंच, झरी दोंगरा कडल्यान भोंवत भोंवत, चुन्नां, कान्नां आनी चारां हाडपाचेंय काम आमीच करताले. तोरंगीर चडून तोरंगां काडप ते सुपुल्ले पिरायेर सोपें काम नाशिल्लें. तोरंगिचें काण मोटें जाल्ल्यान, ते भायर काणाचेर मर्दी मर्दी सुळ्यां सारके कांटे आशिल्ल्यान तिचेर चडटा आसतना ते तोंपून कूड रक्तबंबाळ जावपाची भिरांत आसली. बाकी तोरंगिचें झाड पेरी वरी चिवट आशिल्ल्यान तिच्या खांदयांनी भोंवपाक कसलीच धास्ती नासली. आतां एकाद्री आडसाटी फळां दिवपी तोरंगीण आसल्यार तेगडी घेवन तोरंगां पाडप सोपें जातालें.

त्या मानान आंतेरिचें झाड चडपाक जायतें बरें. ताची वाडय थंयचे थंय. खांदयो वाडटात त्यो चारय वाटांनी फांकून. आनी खांदयांचें आंगय खरखरीत. पेर जावं तोरंगीण हांचे भशेन गुळगुळीत न्हय. पूण आंतेरीक फळां लागतात तीं खांदयांच्या तोंकां कडेन. आंतेरां काडून थंय मेरेन चलून वचप धाडसाचें म्हणचें पडटलें. आंतेर ही निजान कुरकुरीत जाल्ल्यान केन्ना ती मोडून वयर चडिल्लो झाडा मुळांत शेंवटत तें सांगप कठीण. इतलें आसुनूय कांय न्हय करून हांव आंतेरीर चडटालों. एक फावट वयर चडलों की ना, आशिनाशिल्लीं, पिकिल्लीं, अमुरपिकीं, सगळ्या सगळीं आंतेरां काडले बगर जिवाक शांतीच मेळनासली. कांय धोडे आनी हाताक लागनाशिल्लीं तोंकां वयलीं थोडीं भोव आंतेरां सोडलीं जाल्यार, बाकिचीं सगळीं शाळेच्या बोटव्यानीं पुस्तकांक सांगात करूंक वतालीं. पिकिल्लीं घरा येवपाची वाटच पळेनासलीं. वाटे वयले वाटेर तांचो विलो लागतालो. उरिल्लीं आंतेरां घरा हाडून तीं कुंड्यांत मुंगरून दवरुपाचीं. आनी दर दिसा पिकतात तशीं खावन उडोवपाचीं. आंतेरां काडपाची – न्हय बुड्डुपाची आमची ही तरा पळोवन आमी येता वता आसतना आमचेर कोणूय ना कोण नदर दवरून आसतालोच. आमी येवप म्हळ्यार माकडा-भिरें आयिल्ले वरी ताका दिसतालें. पूण आमचे मुखार ताचें कांयच चलनासलें.

हीं असलीं धाडसाचीं कामां करपाचो हुसहूस आमकां लागिल्लो तो कितें फळां खावपाचे आशेन न्हय. जाय जाल्यार घरांत बशिल्ले कडेन हाडून दिवपी जायतो लोक आमच्या घरांत आशिल्लो. पूण तशीं तीं हाडून खावपांत खोस नासली. आंगांत आशिल्ली खुमखुमी जिरोवपा खातीर झाडांचेर चडन चडन दिसतालें. वयर चडून केल्ल्या नाडेपेन्नान जीव धादोस जातालो. भुरगेपणांत झाडांपेडां कडेन जोडिल्लें नातें हांव केन्नाच विसरूंक पावचों ना. तांच्या स्पर्शान जाल्ली तांची वळख सासणाची उरले बगर रावची ना. आजूय कोणूय एकाद्रो झाड मारून उडोवपा खातीर ताचेर कुराडिचो घाय घालूंक लागता तेन्ना म्हजो जीव सामको कळवळटा.

* * *

कितल्या वरसांचेर हांव शाळेंत वचूंक लागलों तें नकळ. पूण सुमार पांच वरसां सोंपूंक म्हजी शाळा सुरू जाली जावंक जाय. म्हज्या वेळार आमची शाळा खंय तरी एका जाग्यार चलताली. देवळाच्या सोंड्यार, अगरसाळींत नाजाल्यार कोणाले तरी पडवेर. पूण शाळेची सुवात म्हण कितें तरी दाखोवंक येतालें. आमची शाळा बेताळाच्या देवळा कडेन चलताली

जावंक जाय. ताचेय पयलिंचो पन्नास साठ वरसां फाटलो इतिहास पळेत जाल्यार शाळा नांवाची वस्तच अस्तित्वांत नाशिल्ली. मराठीचीं चार अक्षरां आनी बेरीज-वाशीलबाकी इतलें आंकड्यां-ज्ञान दिवंक कोणूय एकाद्रो मास्तर घरांत दवरताले. धवे कातिच्या भटा बामणांचीं घरां सोडलीं जाल्यार हेरांक शिक्षण म्हळ्यार कितें हेंच पयलीं खबर नासतालें. घरांतलो मास्तर शिकयतालो तो फकत चल्याभुरग्यांक. चलयांक शिकोवपाची प्रथाच नासली. ह्या मास्तराक शणैमाम म्हणटाले. ताणें शिकोवप तें वाचूंक, चिटयो बरोवंक आनी थोडोभोव हिशोब करूंक. आमगेर त्या वेळार ह्या शणैमामाक, म्हायन्यामाल आठ-धा रुपये दिताले. त्या काळार भुरग्याक लडे दिले बगर तो शिकूंक पावना असो सरसकट समज आसलो. ताका लागून मास्तर मारपाची संदच सोदतालो. भुरग्यान मस्ती केल्यारच पुरो, तो ताका मारतालो. तें पळोवन भुरग्याचो बापूय मास्तराचेर तापतालो आनी म्हणटालो, ''तुका हांगा दवरला तो भुरग्याक शिकोवंक काय मारूंक? तूं हे भशेन शिकयतलो जाल्यार लाग चलूंक. कितेंय जायना, ताका माडयांचीं चार मुळां आसात. शिकून कितें ताका पोट भरपाचें ना.'' माडयांच्या कुळागरां वांट्याचीं माडा-भाटां आसलीं जाल्यार ह्या उलोवपांत इल्लो बदल जातालो आनी तो ''माडयांचीं चार मुळां'' वांट्याचो ''माडांचीं चार मुळां'' म्हणटालो.

फाटलो काळ फाटीं पडून, म्हज्या वेळार तरा खुबच बदल्लेली. शाळा चलूंक लागिल्ल्यो पूण त्यो गांवच्या लोकांच्या पालवाचेर. शाळा चलताल्यो त्यो मराठीच्यो. शिकोवपी आसताले चड करून गोंया भायले. वेंगुर्लें, मालवण, वाडी बी वाटारांतले. ते चड करून बायल-भुरग्यांक गांवांतच दवरून एकलेच हांगा शाळा-मास्तर म्हण येताले. आनी मरसर पुराय जिवीत हांगाच सारताले. शाळेंत येवपी जण एका भुरग्या कडल्यान येता ती फी ही ताची जोड. आनी गांवांतल्या आस्तिक घरांनी आळयेपाळयेन जेवपाक रावन ताचो जेवणाखाणाचो प्रस्न सुट्टालो. म्हजे शाळेंत भटा-बामणाच्या भुरग्यां भायर गांवच्या हेर जातींतलींय भुरगीं शिकूंक येतालीं. गुरव-भावणींलीं, मेस्त-शेटिंलीं, नायकांलीं, आनी कांय प्रमाणांत गावडे-सतरकारांलींय. आनीक एक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार शाळेंत चल्यां भुरग्यां बरोबर चलयां भुरग्यांचींय हजेरी-पटाचेर नांवां वाडूंक लागिल्लीं. एक गावडे जातींतलीं सोडलीं जाल्यार हेर सगळ्या जातिंतल्यो चलयो शाळेंत येवंक लागिल्ल्यो. म्हज्या वेळा वयले शाळेक शाळा म्हणपा सारकें रूप आयिल्लें अशें म्हळ्यार इल्लीय अतिताय जावची ना.

हांव शाळेंत वचूंक लागलों तेन्ना म्हाका ती सदचे जिणेंत आयिल्ली एक नवीच नवलाय कशी दिसली. म्हाका ती कवतुकाची गजाल जाल्ली. पयल्या दिसा सावन हांव शाळेंत नेमान वतालों. पयले कांय दीस म्हजो आजो, दादा म्हाका नेमान शाळेंत व्हरून पावयतालो. लागींच बेताळा देवळा कडेन शाळा जाल्ल्यान दादा आवडीन नातवाक शाळेक पावोवपाचें काम करतालो. मदली सुटी म्हणटा ती धा-एक मिनटांची आसताली. त्या वेळांत देवळा फाटल्यान आशिल्ले धडेर रावन उब्यांनी मुतप आनी परतो येवन थंयचे बांयचे कुशीक आशिल्ले करमलीर पिकिल्लीं करमलां दिसलीं जाल्यार फातरावन तीं सकयल उडोवप – इतल्यांत सोंपताली मदली सुटी. ना म्हळ्यार ह्या धा मिनटांत विडये-झुरके मारून मारून मास्तर तरतरीत जातालो म्हळ्यार जाता.

शाळा सुट्टकच आमच्या घरा कडल्यान वचपी भुरग्यां वांगडा हांव घरा येतालों. घरा पावना फुडें मात शाळेंत कितें शिकयलें तें दादा जाणा जावन घेतालो. आमचो दादा कितें शिकिल्लो तें हांव नकळें, पूण मराठी ताका येताली ती सामान्यांतली न्हय. संस्कृताचे उच्चारय ताचे बरे आसताले. म्हज्या भुरगेपणांतच दादान म्हाका सगळ्यो आरत्यो, पुजेपाठ, मंत्रपुष्पांजली, लग्नावेळा वयलीं मंगलाष्टकां बी हांचें पाठांतर करून घेतिल्लें. आजूय तांतलें कितेंय जें हांव म्हणूंक जाणां तें दादाचेच पुण्यायेन. दादाचे दोगूय पूत शिकिल्ले. व्हडलो राजाराम दोतोर जाल्लो आनी दुसरो घारू, मामागे रावन आदवोगाद जाल्लो. हांवें खूब खूब शिकचें अशें ताका दिसतालें. शाळेंत वचून हांव कितें शिकता सवरता हाची तो वासपूस करीत आसतालो.

म्हजें पयली ते चवथी मेरेनचें मराठी मुळावें शिकप रघुनाथ सखाराम कार्लेकर ह्या मास्तराच्या पाख्या खाला जालें. हो शिक्षक रावपी मूळ वेंगुर्लेंचो अशें सांगताले. ताची पुराय ह्यात आमचेच शाळेंत गेली. आमचें शाळा चलताली ती बेताळाची अगरसाळ एके वटेन कोंसळिल्ल्यान, तिव नंगरांतले सांतेरीचे अगरसाळींत हालयली. तेन्ना हांव दुसरेंत काय तिसरेंत आशिल्लों. सक्काळीं उठून मैलभर चलत शाळेंत वचप म्हळ्यार सुरवातीक एके तरेची ख्यास्तच शी दिसताली. शाळा सुरू जाताली सकाळच्या साडे सात वरांचेर आनी सुट्टाली दनपारच्या बारांचेर. सांजची परती तीन ते साडेपांच मेरेन शाळा चलताली. हे भशेन दिसा भरयाक अडेज तीन मैल चलपाचो व्यायाम आपशींच घडटालो. मागीर मागीर चलपाची आमकां इतली संवंय जाल्ली की कांय न्हय करून कोंसांचे कोंस पांयांनी चलूंक वचपाक आमकां इल्लोय त्रास जायनासलो. गावण्यां आमची एक मावळण आशिल्ली. थंय वतलो जाल्यार एका काळार माचुलांनी बसून वतालें तो माचुलांचो काळ आतां उरूंक नासलो. आमचो आजो आमकां बरोबर घेवन वेलंगां सावन शेतांतल्यान वाट काडीत, दोन तीन व्हाळयां वयल फडे हुपून, पलतडी सरून एका भाटांतल्यान दुसरें भाट गांठीत गावण्यां वतालो. तीच गजाल दोंगरेची. दोंगरेर आमी आज्या बरोबर दोन तीन फावटी, रामनमीच्या उत्सवाक गेल्यात तेय तशेच. शिमेपायर्णींतल्यान दोंगर माथ्यार वचून कुंडय गांवांत सकल येवप आनी थंयच्यान शेतांतल्यान चलत रावप. मदीं दोन तीन तारी लागतात त्यो काडून पलतडीं सरून आनी म्हणटां म्हणटां कांय न्हय करून दोंगरी गांठप. मोटारिच्या प्रवास परस ही वाट लागिंची आसताली. थोडे भितर सांगपाचें जाल्यार आमकां चलत चलत कोंसांची वाट माड्डून वचपाचें दायज भुरगेपणांत सावन मेळूंक पाविल्लें.

आमचो मास्तर शिकयतालो बरो. आंगान शिडशिडीत आनी मोटवोच आशिल्लो. भुरग्यां कडल्यान अभ्यास, सारकी बरी नदर दवरून करून घेतालो. आंगांत ताच्या ज्युदी आसताली आनी न्हेसतालो पुडवें. ताचे उच्चार खणखणीत आशिल्ले आनी भुरग्यांक अक्षर बऱ्या वळणाचें काडूंक येवचें हे खातीर तो खुबच त्रास घेतालो. हाचे वरसून म्हाका एक याद जाता, ती म्हळ्यार ते दीस परिक्षे वेळा वयले आसले. आनी मास्तर भुरग्यां कडल्यान पुस्त्यो काडून घेतालो. त्यो मना भशेन जावच्यो अशें मास्तराक दिसतालें. ते खातीर केन्ना केन्ना म्हाका परतून परतून त्योच त्योच पुस्त्यो काडच्यो पडिल्ल्यो. हांव सामको वाजेल्लों तरूय परिक्षे वेळार ताचो म्हाका फायदोच जाल्लो. आनीक एक याद जाता ती म्हळ्यार एक फावट आमचे शाळेचें काम कशें चल्लां हें पळोवपाक शिक्षणक्षेत्रांतली, त्या काळांतली एक नामनेची व्यक्ती येवपाची आशिल्ली. कुमारजुवेंच्या शारदा मंदिराचो मुखेल शिक्षक सामंत गुरुजी येवपाचे आसात म्हण आमच्या गुरुजीन आमकां पयलींच सादूर केल्ले. ताका आपोवणो दिवन हाडल्यार, भुरग्यांक प्रोत्साहीत करपाचें काम सोपें जातलें अशें मास्तरान येवजिल्लें जातलें. सामंत गुरुजी आयले. जाणटे पिरायेचे खरे, पूण तांचो प्रभाव पडटालो. ते शाळेंत पावनाफुडें 'स्वागतगीत' जालें. मागीर तांणी भुरग्यांनी तयार केल्ल्या कामाचेर नदर मारली. हे शाळेचो मास्तर तकालस घेवन शिकयता हाची तांणी खात्री करून घेतली. उपरांत तांणी भुरग्यांनी तयार केल्ल्यो पुस्त्यो पळेल्यो आनी मागीर शिकिल्ल्या धड्यांचेर कांय प्रस्न विचारले. भुरग्यांनी इल्लेय वचक नासतना जापो दिल्यो. तांकां तें बरें दिसलें. निमाणें एक ल्हानसोच बक्षीस समारंभ जालो. तातूंत म्हाकाय बक्षीस म्हण एक पुस्तक मेळ्ळें. ताचेर बरयल्लें 'सुमंत घारू केळेकर

त्तेजनार्थ बक्षीस.' इतल्यान त्या दिसाची कार्यावळ सोंपली. आमचो सामंत गुरुजींक घेवन चलत चलत म्हाड्डोळचे वाटेन गेलो आनी भुरगीं घरा येवपाक पिरवोळचे वाटेन चलूंक लागलीं.

पावना फुडें म्हाका बक्षीस मेळिल्लें पुस्तक हांवें दादाक दाखयलें. हातांत घेवन उकतें केलें. आनी पयल्याच पानार 'उत्तेजनार्थ म्हण वाचतकच तो विरूस जालो आनी कांयच उलयनासतना पुस्तक परतें म्हजे कडेन काडून दिलें. चौखेर गनीआका आनी आशिल्लीं. मुकेमामान तें पळोवंक मागलें आनी 'सुमन्त घारू – उत्तेजनार्थ बक्षीस' म्हणत तो म्हजें कवतूक करूंक लागलो. घारू केळेकर – उत्तेजनार्थ बक्षीस' हें वाक्य फुडले म्हजे विद्यार्थी मुकेमामाल्या कवतुकाचें पालुपद जावन पडिल्लें. मुकेमाम खासा जाल्ल्यान भुरग्यांक उत्तेजना दिले बगर तांचेमर्दी शिक्षणाची गोडी तांच्यांत चेतना निर्माण जायना अशी ताची धारणा आशिल्ली. म्हळ्यार प्रोफेसोर मुकुन्द केळेकार. हाची विद्यार्थीदशेंतली कारकीर्द, लिसेवा वयलें ताचें शिक्षण हो एक त्या काळच्या सगळ्या शिक्षीत रांचो कवतुकाचो विशय जाल्लो. गनीआका ही ताची व्हडली भयण. र्या दळव्यांगेर दिल्ली. घोव भायर पडिल्ल्यान कांय तेंप ती भावा रावंक कुळारा आयिल्ली.

च्या मास्तरान जें कितें आमकां मुळाव्या शिक्षणाच्या पयल्या चार शिकयलें तेंच म्हज्या जिवितांतलें मराठीचें भांडवल म्हणचें पडटलें. मराठी भाशेचें ज्ञान दिवपाक ताणें हात इल्लोय आखुंडलो ना. क्षणांतले हे बरे गजाली बरोबरच कांय मन दुखोवपीय गजाली च्या हातान घडटाल्यो. ताची मनस्थिति एकाद्र्या दिसा बरी नासली कसलेंय एक किरकोळ निमित्त मेळ्ळ्यार लेगीत तो भुरग्यांक नो. पावतेन ना जाल्यार हुस्केचे बडयेन. कसलीच मायादया स्तना. ताका आनीक एक संवंय आशिल्ली ती जांगडांक पीळ घालून काडपाची. हो सगळो मार खावपी आसताले ते चले भुरगेच. चलयांचे ींत तो पडनासलो. मारचेंच पडलें जाल्यार एक पावत तितली तांच्या पडटाली. हाका लागून भुरग्यांकय माराचें व्हडलेंशें वाल उरूंक एक दीस अशेंच कितें तरी जालें, घरा करून हाडपाक सांगिल्लो केलोना काय कितेंय तरी मस्ती हांवें केली, मास्तरान तिडकीन जांगेक चिमटो काडलो. वळवळसर. गोरे कातिचेर जाल्ल्यान जांग तांबडी गुंज जाली. आनी चिमटो काडिल्लो थंय फूग येवन सगळी णसणूंक लागली. शाळा सुटून घरा पावतासर जांगेक वळ आयलो नीट चलूंक लेगीत जायना जालें. हांव चलता आसतना कुट्टां यचे नदरेक आयलें आनी ''कितें जालां रे पांयांक?'' म्हण ती ारकी विचारताली. मास्तरान जांगेक चिमटो काडलो म्हण तिका क म्हज्या जिवार आयिल्लें. हांव वोगीच रावन दूख सोंसतालों. त जावन, जेवन खावन जातकच आमचे न्हिदपाचे कुडींत ती आयली कितें जालां तें पळोवंक तिणें जांग उकती करूंक लायली. पळेत र जांग सगळी सुजल्या आनी वयर खांचींत वळ आयला. तिणें कळाव लायलोना. रोखडेंच जिरें-वेखण वांटून तें जांगभर सारयलें फुगो आयिल्लो थंय ताची घडी दवरून जांग लुगटान बरी बांदून दुसऱ्या दिसा जांगेची दूख बरीच उणी जाल्ल्यान हांव शाळेक गेलों. तिकाय बावडेक दिसलें, मस्ती करता थंय खंय तरी पडला आनी कित्याकय आपटल्ल्यान जांग दुखावल्या जातली. हें आपटप, ावप, रगत येवप ह्यो म्हज्यो सदच्योच गजाली जाल्ल्यान ताचें तरी कितलें घेवपाचें, अशें समजून ती वोगी आसली. पूण असल्यो कितें चड दीस लिपून उरतात? कोणें तरी भुरग्यान रस्त्यार कडेन ही गजाल तिच्या कानार घाली. अभ्यास करूंक नाशिल्ल्यान जांगेक चिमटो काडून म्हाका मास्तरान वळवळसर कसो उबो दवरलो, तें ताणें मीठ-मिरसांग लावन सगळें सांगलें. तें आयकून आवयक अशी तशी तिडक आयली ना! फाल्यां दनपरां मास्तर जेवपाक येतलो तेन्ना विचारले बगर आपूण रावचीं ना अशें तिणें थारायलें. मास्तर दनपारचो आयलो. जेवणां बिवणां जालीं. उपरान्त मास्तर परतो शाळेंत वचपाक भायर सरलो. त्या वेळार आवय दारा कुशीक रावन सांगूंक लागली, ''मास्तर, भुरग्यान कितलींय मस्तेपणां केलीं जावं अभ्यास केलोना म्हणून कितें जांगेक असो पीळ काडटात? बरें म्हण बरें! असले दुखीन जीव लेगीत वचूं येत! आमचो भुरगो इल्लो नावाडगोच. म्हण असले तरेची ख्यास्त दिवप कितें बरें व्हय?'' अशें म्हणून ती मास्तराच्या उलोवपाची कसलीच वाट पळेनासतना तडक भितर गेली. मास्तर तें तिचें आयकून इल्लो गडबडलो. कांय उलयलो ना. आपणें कितें केलें ताचें ताकाय वायट दिशिल्लें. चूक जाल्ली खरी! ताणें मोन्यांनी तिचें आयकून घेतलें आनी तो शाळेक वचपाक भायर सरलो. त्या दिसाच्यान मास्तरान म्हाका हात म्हणटा तो लायलोना. इतलेंच न्हय तर हेर भुरग्यांकय ख्यास्त दिवपाची ती पयलीं भशेन तितली खर उरलिना. 'भुरग्याक कड्डे घाले बगर विद्या येवंक पावना' असो समज करून घेतिल्ल्या आवयबापायचे ते मुस्तींत शिकूंक नाशिल्ली म्हजी आवय एक आडवादच म्हणपासारकी आसली.

घरा कडल्यान दोन फावटीं नंगरांत शाळेक वचप आनी तितलीच वाट परती येतासतना चलपाची म्हळ्यार कितें तोंड धांपून, कांयच करिनासतना चलत रावपाचें काय कितें? आमच्या पिंडाक ताची संवंय नासली. देखून येतना वतना कितेंय तरी आंग हालोवपाचीं कामां आमी सोदून काडटाले. वाटे लागसार पिकतात तीं फळां – मागीर तीं कोणालींय आसूं आनी खंयूय आसूं. कुळागरांत आसूं, आतोडांत आसूं नाजाल्यार दोंगरार. कसलीच जागमूग लायनासतना मोन्यांनी काडपाच्यो तकलिपो आमच्या संवगड्यांक बरे भशेन खबर आशिल्ल्यो. मीर्गा सुमाराक तवश्यांचे मळे आमचे वाटे कुशीक आशिल्ल्या दोंगरांचेर दर वरसा पडटाले. पावस सुरू जायनाफुडें तवशिणिंचे बेल वाडूंक लागताले. तेन्ना तांकां सारें बी घालें की ना, तांची वाड रोखड्या रोखडी जाताली आनी पिपऱ्यो तयार जावंक लागताल्यो. रातिच्या वेळार दोंगरा वयल्यान कोले मळ्यांत येवन तवशीं खातात म्हण मळ्या भोंवतणी कांटेरिच्या झोपांचो आडो केल्लो आसतालो. ते भायर मळ्यांत मदेकाक एक माळो उबारून रातिचे एक दोग जाण कोल्यांक आमडावंक थंय न्हिदताले. राती वेळार कोल्यांक धांवडावपाची बंदिस्ती जाल्ली पूण दिसा उजवाडे़ पिपऱ्यांक संवकल्ल्या कोल्यांची तांकां तितलिशी नात उरली ना. एक दीस आमी कांय शाळे गडे, हांव, विठ्ठलबाबालो दत्ता आनी ताचो बापोलभाव गजा ह्या तिरकुटान शाळेक सावन सांजचे परततना मळ्याचेर धाड घालपाचो कट केलो. हो मळो आशिल्लो कुसमळ्यांतल्या रामाल्या थिकाणांत. आनी मळ्याची राखण करतालो ताचो पूत विठ्ठल. हो विठ्ठल एका पांयान इल्लो थोंटो आशिल्लो. आनी ह्या थोंटेपणाक लागुनच ताचें मळ्याचेर अदीक लक्ष आसतालें. खंय खुट्ट जालें रे जालें, ताचेर आकांत येतालो. कशेंय करून त्या दिसा मेळटा तितल्यो पिपऱ्यो हातासून ह्या वरसाच्या नव्याच पिंपऱ्यांची उश्टावणी करपाची आमी तयारी केल्ली. सदचे वरी शाळा वेळार सुटली पूण आमी तिगूय जाण लेंगत लेंगत थंयच घुंवडाळ्यो काडीत रावले. आमोरेची वाट पळेत राविल्ले. इतल्यांत मळबांत पावस भरिल्ल्यान उजवाड इल्लो मंदावलो आनी हीच बरी संद आसा अशें येवजून आमी तिगूय जाण केरी वचपाचे दोंगरी वाटे वयल्यान चलत रावले. मळ्याची सुवात दिसना फुडें आमी निवलकाणयांचो आडो हुपून मळ्या कडेन वचपाक भितर सरले. मळ्याचे एके कडेन काजिचें झाड आशिल्लें आनी थंयच्यानच मळ्यांत भितर सरपा खातीर वाट केल्ली. मळ्यांत कोणूच नात, माळ्याचेरय कोणाची जागमूग

लागना हाची खात्री करून घेवन हांव काजी खांदयां वयल्यान भितर सरलों, आनी जाता तितले ताकतिकेन तवशिणिचे बेल वयर काडून दिसतात त्यो पिपऱ्यो मळ्या भायर त्यो जिखूंक उब्या राविल्ल्या दत्ता कडेन उडोवंक लागलों. पिपऱ्यो चड जावंक नासल्यो. सोदच्यो पडटाल्यो. इतल्यांत पावसाची एक ल्हानशी दडक आयली आनी तिणें आमचो घात केलो. भायर उब्या आशिल्ल्या गजान सत्री फुलयली आनी ती दिस्त मार्गार राखण करूंक राविल्ल्या थोंट्या विठ्ठलाचे नदरेक पडली. ''कोण रे ते मळ्यांत? धर रे तांकां!'' म्हणत ताणें मळ्यांत येवपाचो यत्न केलो. तितल्यांत आमी आनिआनीक वाट पळेल्या? मळ्यांतल्यान उडक्यो मारून थेट वयली वाट गांठली. आनी तशेच धांवत धांवत खंवट्या पायणी कडेन आशिल्ले दोंगरा वाटेवयल्यान उडक्यो मारीत मार्गार आयले. आमकां दिसलें, सुटले आमी बरे भशेन, विठ्ठलाच्या तोंडांतल्यान! तोंडांत हीं उतरां येवचींच आसात, देंवचार कसो साक्षात विठ्ठलच आमचे मुखार उबो. ''मळ्यांतल्यो पिपऱ्यो चोरतात? सांगतां घरा वचून'' म्हण म्हाका ताणें दटायलो. तितल्यान दत्ता आनी गजा खंयच्यान वाट काडून पळून गेले तें म्हाका लेगीत कळ्ळें ना. एका पांयान लंगड्या विठ्ठलाक रोखड्या रोखडें दोंगरार चडप सोपें नासलें देखून ताणें तकली लडयली आनी आमी खंयचे वाटेन सकयल देंवतले तें हेरून आमचे पयलींच तो थंय दत्त म्हण हाजीर जालो. आतां हो कशेय भशेन म्हज्या बापायक गांठ्ठलो आनी आमच्यो पिपऱ्यो भायर सरतल्यो हाची हांव वाट पळेतालों. पूण ताचो व्हडलोसो कांयच बोवाळ जालोना. दुसऱ्या दिसा सकाळीं विठ्ठल खंय घरा येवन बापायक म्हर्जी आडांगपणां सांगूंक लागलो. पूण त्या दिसा बापूय बरो उमेदिचेर आशिल्लो. कितेंय तरी फायद्याची गजाल घडिल्ली जावंये. आनी ते भायर घडिल्ली ती आमची गजाल पयल्या दिसाची जाल्ल्यान ती शेळेल्ली. हुनार हून जाल्यार तें बऱ्याक पडटा हें विठ्ठलाक खबर नासलें. ''तुज्यो कितल्यो पिपऱ्यो काडल्यो रे पोरांनी? घे तांचे हे पयशे!'' अशें बापायन म्हळें खंय. आनी ''पयश्यां खातीर कोणें कितें म्हळां?'' अशें म्हणीत माथें खरपीत विठ्ठल आयिल्लो तसो परतो गेलो. ही खबर म्हाका त्याच दिसा रातची आवयकडल्यान कळ्ळी.

दुसऱ्या दिसा शाळेक वतना दत्ता आनी गजो मळ्यांतल्यो पिपऱ्यो घेवन आयले आनी आमी हांसत हांसत पयल्या दिसाची याद काडून तांचो समाचार घेत शाळेक पावले.

विठ्ठलबाब सांगांवकारालो दत्ता आनी गोविंदबाब सांगांवकारालो रामचन्द्र हे दोगूय जाण प्राथमीक शाळेंतले म्हजे जिवाभावाचे इश्ट. रामचंद्राक सगळे जाण 'गजो' ह्याच नांवान वळखताले. रामचंद्र ताचें खरें नांव हें तो लेगीत विसरिल्लो आसतलो. दत्ता म्हजेबरोबर तिसरेच्या वर्गांत आशिल्लो आनी गजो चवथेंत. दत्ता म्हाका खुबूच आवडटालो. हांव करतां त्या नावरुपांत ताचो वांगड ना अशें केन्नाच जायनासलें. हुल्सशे वृत्तिचो. ताचें हांसप आनी रडप एकेच तरेचें आशिल्लें. तो पोटांतल्यान हांसतालो आनी रडटालोय बी तसोच. ताच्या ह्या दोनूय करण्यांचो आवाज पोटांतल्यान आयिल्ले वरी दिसतालें. मराठी चवथी जायसर तो आमचे बरोबर आशिल्लो. मागीर ताणें शिकपच सोडलें जातलें. हरशींय पूण तो केन्नाय ते उपरान्त दिशिल्ल्याची म्हाका याद जायना. दत्ता अभ्यासांत हुशार आशिल्लो. तिसरेचे परिक्षेंत ताका आनी म्हाका सारकेच मार्क मेळिल्ल्यान पयल्या नंबराक कोणाक पास करचो हाचेर खुबच घासाघीस जाल्ली अशें त्या वेळावयली याद आशिल्ले कांय जाण सांगतात. सांगपाक, दत्ता निजाचोच तकलेचो आशिल्लो. शाळेचें शिकप सोंपले उपरांत ताणें जायती धडपड केली, खंय तरी सिर्विस करतलो म्हण पूण तातूंत ताच्या वांट्याक अपेसच आयलें. निमाणें पिरायेच्या सुमार सोळा-सतरा वर्सांचेर तो खंय, गांवच्या आनीक तीनचार भुरग्यां वांगडा, घरच्यांक कसलीच सुलूस लायनासतना मुम्बय पळून गेलो.

धा-बारा वरसां उपरान्तची खबर. हांव मुम्बय रावंक गेल्लों. एका वरसा एकल्याचे कुडींत जाल्यार दुसऱ्या वरसा दुसऱ्याचे, उपरांत तिसऱ्याचे अशी म्हर्जी बिराडां बदलत आसतालीं. ह्या वरसा हांव सिटी लायट सिनेमा लागसारच नाक्यार आशिल्ल्या, चाळी वरी वाटकुळ्या आकाराच्या घरांत पयल्या माळ्यार आशिल्ले एके कुडींत रावंक आयिल्लों. हे चाळी वरी एक मजली घराचें नांव आसलें श्रीनाथ बिल्डींग. ही कूड आशिल्ली आनंद कामत ह्या कुंडयच्या एका आंकवार तरणाट्याली. थंय जायतीं वरसां सावन तो भाड्याक रावतालो. ताचो हांव पार्टनर जाल्लों. तो बर्मा-शेलांत काय खंय सिर्विसेक आशिल्लो आनी हांव मुम्बयंत शिकूंक आयिल्लों. तेच बिल्डिंगे सकयल एक रिश्टॉरंट आशिल्लें. नांवाची नीट याद जायना पूण चड करून 'आनंद विलास' शें दिसता. थंय एके सकाळीं च्या घेवंक म्हण गेल्यार भायर गल्ल्या म्हऱ्यांत 'सुमन्तबाब' म्हण एकल्यान उलो मारलो. पळेत जाल्यार वळखिचोसो दिसलो. ''कोण रे, नरशिंव?'' ''हय'', ताणें म्हळें. ''हांगा सो?'' हांवें विचारलें. ''हांव हांगाच आसतां. चार पांच वरसां जालीं. मिलींत काम करतां. आज रातपाळी आसा. म्हण दत्ताक मेळपाक आयलां.'' नरशिंवान म्हळें. ''दत्ता कोण रे? विठ्ठलबाब सांगांवकारालो?'' हांवें ताका विचारलें. ''हय. तोच. ताणें हें हॉटेल कॉन्ट्रेक्टाचेर चलोवंक घेतलां. तो बरो पयशेकार जाला. ह्या गल्ल्याचेर तोच आसता. आतांच खंय तरी भायर सरून गेला. पूण तूं हांगा खंय?'' नरशिंवान म्हाका अजापान विचारलें. ''हांव हेच बिल्डिंगेंत रावंक आयलां. म्हयनोभर जालो. पयल्या माळ्यार आनंद कामत म्हण बावीस नंबराचे कुडींत रावता. ताचे बरोबर हांवूय रावतां.'' हांवें ताका म्हजो पत्तो तोंड्यां दिलो. च्या घेवन हांव भायर सरसर काय दत्ता आयलो ना. आनी वरसभर हांव इतलो म्हऱ्यांत रावनूय दत्ताची आनी म्हजी भेट जावंक पांवलिना. तो मेळिल्लो जाल्यार भुरगेपणांतलो तो आडांगी दत्ता जाणट्या दत्तांत म्हाका गवसता जाल्यार एक वेळ प्रयत्न तरी करून पळेतलों आशिल्लों.

नरशिंव बेताळा देवळा कडच्या नोनल्या गुरवाचो पूत. होय म्हजे बरोबरच मराठी शिकिल्लो. कांय वरसां पयलीं तो खंय तरी भायर गेला म्हण आयकल्लें. ताची ही आयतीच भेट जाल्ली. फुडें तो सिटी लायट थिएटरा मुखार आशिल्ले बिल्डिंगेचे फाटले वटेन एके ल्हानशे कुडींत आनीक कांय वांगड्यां बरोबर रावता म्हणपाचें हांवें थंय वचून पळेल्लें. तेन्ना ताणें दत्ताच्यो कांय खबरीय सांगिल्ल्यो. तो मटक्याचो बुकी जाल्ल्यान ताची जोड फकत कांय हजारांची न्हय जाल्यार लाखांची जाल्या. तो चलयता तें हॉटेल कॉन्ट्रेक्टान घेतलां म्हळें तरी तें खरें न्हय. ताचेंच तें हॉटेल. नाक्यार आशिल्ल्यान ताचोय गल्लो कांय हजारांचेर पावता. आयकल्ले वरसून घरच्या आनी गोंयच्या वातावरणाक विटून मुंबय आयिल्लो दत्ता आतां लाखाधिशांत मोडटालो. खरोच धडपडी आशिल्लो तो. आनी तितलोच धाडशी.

गजाच्या जिवितांत चडण्यो-देंवत्यो खंयच दिसनासल्यो. खंयच्याय संवसारी मनशा वरी तो जीण सारतालो. सांगांव वाड्या वयल्या मूळ घरांत तो आतां रावनासलो. तो बेताळा देवळा कडचे वसतींत रावंक आयिल्लो. तो एक भुसारी माण चलयतालो. ताच्या माणार कितें मेळना शें नाशिल्लें. खंयचीय वस्त म्हाड्डोळ-फोण्यां गेल्यार लेगीत मेळना जायत जाल्यार ''चल रे गजाच्या माणार. थंय तुका ती मेळुंकच जाय. आनी थंय ती मेळ्ळिना जाल्यार मात आनीक दुसरे कडेन खंयच तिका सोदपाच्या फंदांत पडूं नाका'' अशी शाणेपणाची बुद्द तुका कोणाय कडल्यान मेळ्ळे बगर रावची ना. आपल्या व्यवसायांतलें कसब ताणें पुरायेन आत्मसात केल्लें म्हळ्यार जाता. ताणें आपली नवी मठी उबारिल्ली आनी थंयच एके कुशीक आशिल्ले कुडींत ताणें माण थाटिल्लो. ताका पळेनाफुडें तो सुखांत आसा अशेंच दिसतालें. ताची बायल कश्टी तशी सभावानूय.

च-चवगां वरी आशिल्ली – दोन अपत्यां, तांचीं लग्नां बी जावन तांकां र्भुर्गी-बाळां जाल्लीं. त्या नातरांचें कवतूक करपांतच दिसांतलीं कांय वरां तमजेंत घालयतालो. ताच्या जिवितांत कसलीच उलथापालथ नाशिल्ली. त्या जिविता कडेन पळेना फुडें तेन्नाच्या तिसरेच्या काय चवथेच्या पुतकांत आशिल्ल्या अनंत फंदी हाच्या एका कटावांतल्या वळिंची याद जाली. पेशव्यांच्या उत्तरकाळांत गाजलेलो असो हो शाहीर, आनी गोंधळी:

बिकट वाट वहिवाट नसावी, धोपट मार्गा सोडूं नको
संसारामध्यें ऐस आपुला, उगाच भटकत फिरूं नको.

आमच्या इश्टान होच आदर्श मानून पुराय जिवीत सारलें जातलें. आजूय टे पिरायेच्यो यदनां सोंसत घरा सावन बाजारांत वता आसतना हांव च्या घराच्या बल्कांवाचेर बशिल्लो आसतना ताका पळेतां तेन्ना बोटवो यांत घालून तुरूतुरू चलपी तो शाळेंतलो रामचन्द्र अजुनय म्हाका यां मुखार तशशा तस्सो दिसूंक लागता.

फुलकारांलो नारायण हो एक आमच्यांतलो मनां जोडपी शाळे-गडो. शिकपी आनी जाणटो जाल्ले वरी सगळ्यांचेर नदर दवरपी. ताका यांमदीं झगडीं जाल्लीं सोंसनासलीं. तांचो समज घालून शाळेंतल्या वरणांत तो गोडवो हाडटालो. म्हाड्डोळा तांच्या समाजाची शाळा आसुनय शिकपाक मात येतालो नंगरांत. ताचें मुळावें मराठी शिकप सोंपतकच फुडें फुलांच्या धंद्यांत पडलो जावंये. म्हणटां म्हणटां कांय वरसांनी एक ल्हानशेंच हॉटेल सुरू केलें. ताच्या सभावाक लागून ताणें मनशां जोडलीं. म्हजो आनी ताचो जिवाभावाचो असो संबंद फुडल्या काळाक पावलो ना तरी ताका बाजारांत पळेनाफुडें त्या वेळावयले दीस शींच यादस्तींत येवंक लागतात. नारायणाक सगलो वाटार भोलू म्हणच वळखता. पूण शाळेंतलो आमचो तो 'नारायण' मात म्हजे नदरेमुखावयलो क सरूंक कसोच तयार ना.

शाणू गावडो, राघू गावडो आनी तशेच कांय गावड्यां-भुरगे शाळेंत चे वांगडा शिकताले. पूण तांचो कसलोच आवाज नासतालो. खंयच्या अनवळखी प्रवाहांत नव्या विचारांच्या उदका-झोतान तांकां हाडून डेल्ले वरी तांची गत जाल्ली. ते दुसऱ्या भुरग्यां मदीं घोळनासले. ड्या भुरग्यांलोच एक जोमो करून वेगळ्या विश्वांत रावंक सोदताले. या युगाच्या संदेशाचो आनी संकेतांचो आकळ जावंक नाशिल्ल्यान ते ळून गेल्ले. नवें कितें आयलां खरें पूण तें आपणाक पचतलें काय हाची खात्री तांकां दिसनासली. आजूय जाणटो जाल्लो राघू आमच्या कडल्या मार्गा वयल्यान देवळा कडेन वता आसतना हांव ताका कायतां. ताची नदर म्हजेर पडटा तेन्ना ताचे दोळे थोडेभोव लिकलिकूं तात. फाटल्या यादिंचें किरण ताचें मन खुबदळावन उडयता आसत ल्यार तें तो एकलोच सांगूं शकत.

आमचे मराठी शाळेंत म्हज्या वेळार पिरवोळ सावन, वेलंगीच्यान तशेंच ड्डोळच्यान तिनूय कडल्यान भुरगीं शिकूंक येतालीं. म्हजे भायर आमच्याच तलो शिवाजीदादालो गुरुनाथ आनी ताची भयण सिंधू हींय शिकतालीं. तबाब खंवट्यालो पुरसो शिकतालो. श्रीकांत आमोणकार हाचें घर भोमा शिक्षणा खातीर तो म्हाड्डोळा दोतोर कुवेलकारागेर रावतालो. तोय रांतले शाळेंतच शिकला. विसो आनी रमा हे वेर्लीगकारांले भुरगेय आमचेच ळेंत शिकताले. विठ्ठल म्हाल्यालो रमाकान्त आनी ताची भयण अनुसूया च दत्तें देविदास हिच्यो विलास, हिरा आनी बकुल ह्यो तिनूय धुवो नी तांचो भाव रमाकान्त आमचेच शाळेंत शिकल्यांत. म्हादू आनी विष्णू पिरवोळच्या मडवळा घरचे भुरगे कितें शिकल्या जायत जाल्यार ते रांतच. नंगरांतले तोटेकार आनी पचमेचे कोरडे ह्या दोन भटा घरांतलीं र्ीं आमचे शाळेंत येतालीं जाल्यार ताची म्हाका सारकी बरी याद ना. तांच्यांतल्या कोणाल्याच रुपाचो अदमास म्हज्या दोळ्यां दिश्टी इल्लोय येना. विसो उठटा बसता थंय आ आ करून कितें तरी गुणगुणायतालो. मामाचें दायज फुडें तो चलयतलो अशें ताच्या भुरगेपणांत दिसतालें. पूण तांतलें कितेंच घडूंक पावलेंना. गुरुनाथालीं घरचीं १९३५च्या सुमाराक मुम्बयच्यान पिरवोळच्या घरांत रावंक आयलीं. शाळेंत शिकता आसतना ह्या वातावरणांत रुळपाक ताका कांय पावसाळ्यांची गरज आशिल्ली. अशें आसुनूय मस्ती करपाची तालीम ताका घरच्या घरांत म्हजे कडल्यान मेळटाली हें आनीक मुद्दम सांगपाची गरज ना. एक दोन वरसां उपरान्त म्हजें गुरुनाथा बगर आनी ताचें म्हजे बगर पान हालना जालें.

हिरा देविदास हें भुरगें म्हज्याच वर्गांत आशिल्लें. तें शिकपाक खूब हुशार आशिल्लें. मास्तर ताची तुस्त करतालो ताका सुमार नासतालो. ताचें खाशेलेपण म्हळ्यार तें मनान हळवें आनी मायेस्त आशिल्लें. कोणाकय दुखोवचें म्हळ्यार ताच्या जिवार येतालें. म्हर्जी आडांगपणां पळोवन म्हज्या पांयां पडून तें "अशें करूं नाका रे" म्हण परतें परतें विनयतालें. ताची याद म्हाका सदांच जायत आयल्या. आमचें शाळेंत बसपाचें त्या वेळावयलें आसन म्हळ्यार 'गोणपाट' – साकाचे कुडके. तें आनी हांव म्हऱ्याम्हऱ्यांतच बसतालीं. आठ-णव वरसांचीं सामकीं अज्ञानी अशीं आमी भुरगीं. पूण एक गजाल खरी की कालेतीन तें भिजूड आसलें. ताका कोणाचो तरी टेकू जायसो दिसतालो जावंये. परिक्षेंत आमी दोगां तिगां भुरगीं बरे मार्क घेवन पास जातालीं, तातूंत हिरा एक आसतालें. मराठीचीं चारय वरसां केन्ना सोंपलीं तें कळ्ळेंच ना. फुडें हिरा कितेंय शिकलें जाल्यार म्हाका तें खबर ना. उपरान्त हिराक केन्ना पळेल्ल्याचीय म्हाका याद ना. जण एकाच्या जिविताक एक मोडण मेळून आपणाली वाट सोदीत जो तो चलत राविल्लो. केन्ना केन्ना समाज कितलो दयामाया नाशिल्लो म्हणटा ताचें प्रत्यंतर येता. मनीस भावनांचेर जगता, समाजाक भावनांचें मोलच दिसना. मदल्या कांय वरसांत हिरा म्हाका दिसुंकच नाशिल्लें. हांवूय गोंयाभायर पंदरा वीस वरसां उरलों. हालिंच्या सात आठ वरसांच्या काळांत हिरा म्हाका म्हाड्डोळच्या बाजारांत केन्ना केन्ना दिसता. हांव ताका हटकावंक कांचवेतां. तेंय तकली सकल घालून चलता. कोणूच कोणाक "कितें रे" जावं "कितें गो!" म्हण विचारना पाचारना. हिरा विशीं येवजितना म्हाका एक याद जाता ती मुम्बयची. हांव पयलेच फावट मुम्बय रावंक गेल्लों तेन्ना मेळटा ते सगळे प्रोग्राम पळेतालों, आयकतालों. चवथीचे दीस आसले आनी दादरच्या वाटारांत हिन्दु कॉलनींत एके सांजची एक मराठी कवी संमेलनाची कार्यावळ आसली. त्या कवी मेळाव्यांत नांवलोकीक मेळयल्ले कवी आशिल्ले. तांकां पळोवपाक आनी आयकुपाक हांव मुजरत थंय गेल्लों. नवो अणभव आशिल्लो. एका फाटल्यान एक अशे तरेन दोन तीन कवी आपल्यो रचना वाचून वा पाठ आशिल्ले वरी म्हणून गेले. मागीर आयलो निमाणो कवी मंगेश पाडगांवकर. तो येनाफुडें जमिल्ल्या लोकांनी ताळ्यांर ताळयो मारून ताका येवकार दिलो. ताणें पयल्या फाराक 'जिप्सी' ही कविता म्हळी. त्या दिसांनी ती खुबच गाजिल्ली. आनी दुसरी भायर काडली ती बासनांतली नवीच कविता 'छोरी'. ती म्हाका जाल्यार इतली आवडली की 'छोरी' हे धाकटुके चलये सुवातेर म्हाका हिराच आसा असो भास जालो. इतली ती हिराची याद म्हज्या स्मरणांत आशिल्ली.

हिरा भशेनच अनुसूयेचो म्हाका विसर पडूंक जायतो काळ वचचो पडलो. अनुसूया विठ्ठल म्हाल्याली धूव. तें हिरा भशेनच मायेस्त आशिल्लें. ताचे दोळे लिकलिकीत आशिल्ले आनी तें हांसत्या रुपाचें आशिल्लें. हो गूण हिरांत नाशिल्लो. वत्सलमूर्ती वरी ताची काया आशिल्ली. तें हेर भुरग्यां वरी परिक्षेंत पास जातालें. मराठीचीं चार वरसां जातकच पुर्तुगेज मुळाव्या शिक्षणाचीं चार वरसां काडपाची पुर्तुगेज सरकारान सक्ती केल्ली. ताका लागून चलयां भितरलीं जायतीं जाणां 'इश्कोल प्रिमारियां'त वतालीं ना जाल्यार मराठी जातंकच शिक्षण सोडटालीं. दादले भुरगे मात चडशे हें

पुर्तुगीज शिकप करूंक इश्कोलांत नांवां घालताले. अनुसूयेन चड करून मराठी उपरान्त घरा बसपाचें थारायलें जातलें. आयकल्ले वरसून फुडें सतरा वरसांचे तरणे पिरायेर ताचें पणजेच्या एका आस्तीक कुटुंबांत बापायन लग्न करून दिलें. आयज तीं सावड्झ्यां रावतात.

एका काळार आडनांवां वा कुळनांवां जातीवाचक ना जाल्यार धंदेवाचक आसतालीं. मडवळाचो भुरगो 'परीट' हें कुळनांव लायतालो. मेस्तालो आपणालें कुळनांव 'च्यारी' म्हण सांगतालो. म्हाल्याचो भुरगो 'न्हावी' हें कुळनांव तेर्मार दितालो. भावणिलो भुरगो 'देविदास' नांवान शाळेंत नोंदणी करतालो. जातीवाचक जावं धंदेवाचक कुळनांवां ना जालीं जाल्यार तातूंत वायट कांय ना. धंदो करता ताणें जाय जाल्यार तीं लावचीं. हेरांनी लावपाची गरज ना. पूण एकाद्रे जातिच्या लोकांक सरकार जेन्ना कसल्योय सवलती जाहीर करता, तेन्ना कसलीच लजभीड धरिनासतना आपणाले जातिचो निर्देश करपाक कोणाकच वायट दिसना हीच खरी विटंबना म्हणूंक फावो. नरहरी सोनाराचे वारस म्हणपांत अभिमान मानपी शेट लेगीत सोनार हें कुळनांव लावपाक लजेतात ही खंतिची बाब म्हणची पडटली. आनी ह्या सगळ्या जातीवाचक आनी धंदेवाचक कुळनांवां बदला गांवाच्या वा वाड्याच्या नांवाक 'कर'ची पुस्ती जोडून नवीं कुळनांवां तयार करपाची जी एक धाम आयल्या तिचें अजाप करता तितलें थोडें!

* * *

पावसाळो सोंपलो आनी सुके दीस आयले म्हणटकच शाळेक वता आनी येता आसतना कितें तरी उपद्व्याप केले बगर मनाची उचंबळाय थांब नासली. अश्या वेळार कितेंय तरी अशें एक साधन जाय जायशें दिसतालें की तें भोंवडावंक येता ना जाल्यार चलोवंक तरी. चलपाक, भोंवपाक येना त्या माणकुल्या भुरग्याक बाबागाडी, उपरान्त तीन रोदांची सायकल, ते फुडें धुकलून चलोवपाची दोन रोदांची बसकी सायकल हे भाशेन ल्हानपणांतलीं गरजेचीं अशीं आंग हालोवपाचीं साधनां आमच्या भुरगेपणांत शारांनी आसतालीं पूण गांवांनी तांचें दर्शन लेगीत घडनासलें. अशा वेळार करपाचें तें कितें? कांयच येवजना जाल्यान निमाणें मार्गा वयल्या धुल्लांतल्यान कितेंय तरी ओडत व्हेल्यार वेळ बरो वतलो; ते भायर धुल्लांत उदेल्ल्यो त्यो कुरवो जिवाक खोशी करतल्यो असोसो कितें विचार तकलेंत आयलो. दुसऱ्या दिसाच्यान आमच्यांतल्या एकदोगांनी कोंड्याच्यो बड्यो हाडून मुखावयल्यान त्यो धुकलीत व्हरपाक सुरवात केली. असो हो खेळ खेळटना विचारा परस अविचारच अदीक जाल्यान ताचीं पानवळां रोखडींच दिसूंक लागलीं. फुडें धुकलतना बडी कित्याकय आडखळून आडावली जाल्यार तश्या तशी येवन ती पोटांत धोंगसताली. ह्या खेळाक लागून पोटाक घाय जावपाचें प्रमाण वाडतच रावलें. ही करामत म्हारग पडिल्ल्यान दुसरो विचार मुखार आयलो तो म्हळ्यार फुडें चलतल्यान फाटल्यांतल्यान कितें तरी ओडीत व्हरप. त्या कामाक माडाचो पिराडो बऱ्याक पडटलो अशें दिसलें. तातुंतल्यान दोन गजाली सादूंक येताल्यो. पिराडो ओडिल्ल्यान चलयल्ल्याचें समाधान आनी पिराड्याच्या पोंतार बशिल्ल्याक कसल्या तरी चलतल्या वाहनाचेर बशिल्ल्याचें सूख. ही येवजण सगळ्या सवंगड्यांक भोवच मानवली आनी दुसऱ्याच दिसा सावन हो नवो खेळ सुरू जालो. आळये पाळयेन कोण एकलो पिराड्याच्या जमनीर तेंकता त्या फांकिल्ल्या तोंकार बसतालो आनी दोग जाण तो पिराडो ओडूंक लागताले. धुल्लांतल्यान ओडिनाफुडें मार्गभर धुल्लच धुल्ल जातालो आनी मोटार गाडी मार्गावयल्यान गेल्ले वरी दिसतालें. ते भायर पिराड्याचो दाग धुल्लाचेर बेस बरो उठून दिसतालो. वाटे वयल्यान वचपी लोकाक हीं आमचीं अवचित्रपणां पळोवन राग येतालो. पूण कोणूच आमकां कितेंय बरें सांगपाचे भरीक पडनासलो. ही आमची पिराड्याची गाडी चड दीस चल्ली ना. कित्याक तर फुडें फुडें आमकां ती बादूंक लागली. चड करून ताचेर बशिल्ल्या पासिंजराक. पिराडो ओडटा आसतना केन्नाकेन्ना बोवाळांत, बशिल्ल्याच्या पावलाचें किरंगळिचें बोट पिड्या भायर सरून खडबडीत मार्गा वयल्यान खरचटत वतालें आनी सोलिल्ल्यान तें रगतबंबाळ जातालें. पयल्या दिसाचो पासिंजर दुसऱ्या दिसा बसपाक कांकूं करूंक लागतालो. करतां करतां बसतल्यांचो आंकडो देंवत गेलो तो एक दीस पूज्यार पावलो. कोणूच बशिल्लो नासतना पिराडो ओडून व्हरपांत कांयच अर्थ नाशिल्लो. निमाणें ह्याय वाहनाचो नाद निरुपायान आमकां सोडचो पडलो.

मागीर मेळ्ळे ते आमकां आटे. लोखणी आटे. तो चलोवपाक एका तोंकार वांक घाल्ली एक सरी मेस्ता कडल्यान तयार करून घेवप आनी मार्गार तो चलोवप. धुल्लाचेर ताचो दाग निवळ बरो उठ्ठालो. ह्या खेळांत बसून खोस मेळोवपाची इत्सा भागनासली तरी जण एकल्या कडेन ताचो वेगळो आटो आशिल्ल्यान बेकार कोणूच उरनासले. आट्यांचो हो खेळ जायते दीस चल्लो. उपरान्त ल्हान आट्या बदला आयलो सायकलिचो मोटो आटो. आमच्या घराच्या फुडल्या दारा आशिल्ल्या लॉजांत एक दीस भितर सरून पळोवपाची संद मेळ्ळी. कितें तरी सोदपाक घरच्या मानायाक थंय धाडिल्लो. ताणें दार उकतें करिनाफुडें हांव भितर सरलों आनी वयर माळयेर गेलों. सकयल काळखांत वागळांचो बोवाळ चलतालो. माळयेर अशी नदर भोंवडायत जाल्यार एका काळार बापूय चलयतालो ते सायकलिचीं दोन चक्रां थंयच मेकळीं पडिल्लीं दिसलीं. तीं भायर हाडून बरीं निवळ केलीं. तांचे टायर बी वरसां संकिंनी तशेच पडून राविल्ल्यान सामके भुसभुशीत जावन गेल्ले. आटो म्हणचे परस ताका आमी रोद म्हणूंक लागले. ह्या रोदाक मर्दी खांच आशिल्ल्यान बडी खांचींत घालून तें चलोवंक जातालें. हे तरेन आमचो हो रोदाचो नवो खेळ सुरू जालो. रोदां दोनूच आशिल्ल्यान शाळेक वता आसतना दोग जाण आनी येता आसतना दोग जाण अशी माण्णी केल्ल्यान रोदांचो हो नवो खेळ बरे भशेन रंगूंक लागिल्लो.

घरा येतकच मरपाची भूक लागताली. कितेंय तरी खावपाक जीव तळमळटालो. आवय कडेन खावंक मागतकच ती एक लाडू जावं काप दिवन मेकळी जाताली. इतल्यान म्हजें भागनासलें. आनीक कितेंय तरी जायशें दिसतालें. निमाणें म्हजी नदर वताली ती फोवां लाताचेर. फळ्या वयलें लात सकल काडून तांतले दोन मुठी सुके सडसडीत फोव एका तोपांत घालून, उदकांत ते भिजत घालतालों. म्हणसर आदोळी घेवन सांगशेंत आशिल्लें नाल्लाचें एक वळें काडून ताची सोय कांततालों. सोयेंत साकर आनी इल्लें मीठ घालून ताचें चुन्न करप. हे वटेन फोव भिजल्यात तितले पुरो, आनीक फुगपाची गरज ना, पोटांत वतकच आपशींच ते थंय फुगतले म्हण आयदनांतलें उदक भायर उडोवन, त्या फोवांत तें चुन्न घालून फोव कालयतालों. हे कालयल्ले फोव कुटकुटीतच उरताले पूण ते तसले फोव खावपाची इतली संवंय जाल्ली की बरेऽ फुगिल्ले फोव मुखार दवरल्यार ते खावपाक जिवार येतालें. फोव खावन जातकच रांदचे कुडींत आशिल्ल्या तांब्या-पिंपांतलें उदक तांबयान काडून ताका तोंड लायनासतना वयले वयर तोंडांत उडोवन कटऽ कटऽ करून पियेतकच खावपाचो हो आक्त सोंपतालो.

मागीर तडक वचप तें मार्गाचेर. थंय भोंवतणच्या वाटारांत रावपी आमचे सदचे खेळगडी आयिल्ले आसताले. आमचो मार्गार खेळपाचो खेळ म्हळ्यार एक हुतूतू ना जाल्यार खोखो. वर देड वर खेळटकच आमोरी जाताली. आनी मातयेंत खेळिल्ल्यान मचकटी जाल्ली मुस्तायकी घेवन आमी घरांत परतताले. मागीर आवय एक्कासारकी फाटल्यान लागून ती लोळिल्ली मुस्तायकी सोडूंक लायताली आनी बांयचेर वचून आंग सगळें धुवन काडटकच, धुल्लें कलसांव आनी खोमीस आंगार चडटालें. खेळटा आसतना खरचटले बगर एकय दीस वचनासलो. ताका आल्कोहोल लावन चुरचुरावपाचें काम

...हांवूच करतालों.

...क दीस जायत्या तेंपा उपरांत एक मोटार म्हाड्डोळच्यान येवन आमच्या ...मुखार थारली. तेन्नाच्या मोदेलाची ती मोटार आतां पळेतलो जाल्यार ...ता ॲंटिक्स आसतात ते गॅरेजींत सोदची पडटली. मोटार थारली आनी ...लेक रुमाल बांदिल्लो, आंगांत धवीफुल्ल लांबशी बंडी घाल्लो लांब ...पांचो एक जाणटोसो मनीस सकल देंवलो. ताचे बरोबर श्रीपाददाद ...ाल्लो. त्या दिसांनी श्रीपाददादाली आवय शिनेव्हनी बरी नासून हांतुणार ...ल्ली. तिका तपासूंक दादा वैद्याक घेवन तिचो पूत आयिल्लो. दादा ...क घेवन श्रीपाददाद घरांत गेलो. इतले म्हणसर म्हज्या मनांत एक ...र आयलो. हांवें खेळ थंयच सोडलो आनी मोटारीचेर येवजूंक बसलों. ...रींत बसपाची ही एक बेस बरी संद आयल्या ती कशीच वगडावंक ...ना. ही मोटार आयल्या तेच वाटेन परती वतली. तेन्ना तिका व्हॉल्त ...चेंच पडटलें. तें घेता आसतना तिका एक तर थांबचें पडटलें नाजाल्यार ...उणो करचो पडटलो. तेन्नाच ब्रॅकेटा वयल्यान सकल उडकी मारप ...जातलें. बेताळा देवळा कडेन एक उकती सुवात आसा थंय ती ...तली अशेंच हांवें धरिल्लें. इतल्यान दोतोर बी येवन मोटारींत बसलो. ...चें इंजीन शोफेरान सुरू केलें आनी त्याच वेळार कोणाकच सुलूस ...नासतना हांवें ब्रॅकेटाचेर बसका मारली. मोटार चलूंक लागली. तिणें ... काडलें, शेटिल्यांत फार्टी उडयलें, गाळ जाली आनी आतां फुडें ...य वतली तें कळना जाल्ल्यान हांव गोंदळ्ळों. वाटेर आशिल्ले लोकय ...न खंय वता काय म्हण म्हाका हातांनीच विचारताले. निमाणें भियेवन ...गुळी जाली. आनी हांवें सकल उडकीच मारून सुटका करून घेवपाचो ...रून मारपाची ती उडकी मारलीच. मोटारींतल्या कोणाकच, फाटल्यान ...ल्या ह्या पथनाट्याचो वास लेगीत येवंक दिनासतना. मार्गार पडिल्लों ...यान उठून हांव उबो रावलों. आनी कितें फुटलां-मोडलां ताचो अदमास घेवंक तपासणी करूंक लागलों. पळेत जाल्यार दोनूय धोपरां फुटून रगत व्हांवतालें. हाताचे कोपर खरचटून गेल्ले. पोटाकय मार बशिल्ल्यान तें तांबडेंगुंज जाल्लें. कळाव लायनासतना हांव तशातसो घरा येवपा खातीर धांवतच म्हळ्यार जाता, येवंक लागलों. अर्द पावूण वरान घरा पावलों. म्हजो मोटारींत बसून गेल्ल्याचो विजयी अवतार पळोवंक मार्गा वयले खेळगडी वाट पळेतच बशिल्ले. तांतल्या एकान घरांत वचून हांव पडलों म्हणपाचें वर्तमान आवयक दिलें. ती धांवधांवत आयली. पळेत जाल्यार वचत थंय म्हजें आंग फुटलां. ती भियेली. तिणें कळाव केलोना. रोखड्या रोखडो शेजारच्या एका भागेल्याक आपयलो आनी ताका म्हाड्डोळा धाडलो. घडिल्ली गजाल म्हज्या बापायक सांगून दोतोराक घेवन येवंक सांग अशें तिणें ताका फर्मायलें. तो मेरेन म्हाका सगळो धुवन काडून नवी मुस्तायकी घालून दोतोर येवपाची वाट पळेत बसली.

मर्दी आनीक कोणाक कितें आनी कशें येवजलें, कोण जाणा! कांय जाणिंनी आवयक येवन सांगलें, "आगे मुक्ताबाय, अशी कितें तूं वोगी बसल्या? पुताक तुज्या दिसपट्टें कितें ना कितें जाल्लें आसताच, तें ताका कोणाची दिश्ट बी लागता म्हणून न्हय मगे? त्या धाकू परवाराक मातसो आपोवन हाड. एक बरी दिश्ट काडुंदी ताची; मागीर सगळें जाग्यार पडटलें." हे भशेन ते तिनसांजचेर दिश्ट काडपाचोय सुवाळो कसलींच संकश्टां येनासतना पार पडलो.

दोतोर काय येवंक पावलोना. म्हाड्डोळच्यान ताका हाडपाक कोणाचीच मोटार नाशिल्ली. पूण बापायन वखदां मात हाडिल्लीं. पोटांत घेवपाक पोसांवां आनी फुटलां त्या घायांक लावंक कसलें तरी मलम. तें मलम लावन आनी पोटांत वखद घेवन तीन चार दीस घरा बसचें पडलें. चवथ्या दिसा सकाळींच उठून, शिंयां कुडकुड्यांत पयलीं भशेन हांवें शाळेची वाट धरली. [चलता]

# तीर-सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

शीला कोळंबकाराक प्रवास करूंक आवडटा खंय!
म्हाका हे आदीं हें गुपीत खऱ्यांनीच खबर नाशिल्लें.
प्रवास करपी वो प्रवासाची आवड आशिल्ले चार जाण हांव जाणां आशिल्लों.
एक रवीन्द्र केळेकार, दुसरो हांव, तिसरें सुमेधा कामत
आनी चवथो दत्ता नायक.
आनीक एकलो प्रवास करता पूण ताचें वर्णन करिना तो रमेश वेळुस्कार.
प्रवास करपाची इत्सा आसुनय हालीं हांव तो पयलीं सारको करिना.
सुमेधा कामत लग्न जाल्ल्यान ताचो वेगळो प्रवास सुरू जाला जावंये!
दत्ता नायकाचो प्रवास सुरू आसुंये, पूण म्हज्या राज्याक तें खबर ना.
रवीन्द्रबाबाक वयाक लागून प्रवास जमना आनी रमेशबाबाक तो चुकना.
ह्या सगळ्या भोंवडेकारांमदीं शीलाचो आसपाव जावं येतालो.
पूण कसो कोण जाणा, ताच्या नशिबांतलो प्रवास चुकत आयला.
साहित्य अकादेमीन ताची आंतरीक इत्सा जाणून ट्रॅव्हलिंग ग्रान्ट दिली.
अकादेमीचे बाबतींत असल्यो घडणुको क्वचीत म्हणटात तश्यो घडटात.
चड करून साहित्य अकादेमी वो कला अकादेमी मनीस पळोवन
ग्रान्ट दितात.
म्हळ्यार, ज्या लेखकाचें लग्न थारलां ताका त्याच दिसांनी ती मेळटा.
भिकू बोमी नायक, संजीव वेरेंकार हांकां मेळिल्ली तशी.
मागीर हे लेखक दांपत्यान साहित्यीक भोंवडी करून येतात.
हांगा आडवाद आसा, तो दामोदर घाणेकार ह्या लेखकाचो.
गुप्तहेर कथालेखक म्हूण ताका ग्रान्ट मेळ्ळी आनी तो भोंवन आयलो.
शीलाच्या नशिबांतली ग्रान्ट गेली ती चलो धावेक पाविल्ल्यान.
उपरांत साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार घेवंक दिल्लीक वचप जमलेंना.
ऐन वेळार कामणीन शीलाचो घात माल्लो.
कितेंय आसूं, शीलाच्या नशिबा परस साहित्य अकादेमीचें नशीब बरें.
शीलावेलो प्रवासखर्च तांचे तिजोरेंत सुगूर उरलो.
तर, शीलाची प्रवासाची आवड म्हाका कळपाचें कारण म्हळ्यार
कोंकणी वर्सुकी आंक.
वर्सुकी आंक म्हणटकच हांवें तो सवकासायेन वचपाचें थारायल्लें.
सवकासायेन म्हळ्यार एकेक उतर तपासून, निवळावन न्हय.
चुकिची कोंकणी लेगीत म्हाका आतां संदर्भ लावन वाचूंक कळटा.
हांगा सवकासायेन म्हळ्यार प्राधान्य तत्त्वाचेर म्हणटात तशें.
म्हळ्यार अशें, दिसाळें म्हणटकच तें त्याच दिसा वाचूंक जाय.
दुसऱ्या दिसा वाचल्यार तें शेळें जाता.
म्हयनाळें म्हणटकच तें म्हयनोभर इल्लें इल्लें वाचपाचें.
वो तें ज्या म्हयन्याचें आसता त्या म्हयन्यांत केन्नाय वाचपाचें!
खरें म्हळ्यार खंयचेंय म्हयनाळें हातांत पडनाफुडें वाचून जाता.
एकाच दिसा भितर कित्याक, एकाच वरा भितर तें वाचूंक जाता.
पूण हांव म्हयनाळ्याचो रेस्पेद राखूंक तें म्हयनोभर चाळटां.
दिवाळी आंक मेळ्ळे म्हणटकच हांव ते दिवाळेच्या दिसांनी सोंपयतां.
तशें करपांत दिवाळी आंकांतल्यान एक आगळें समाधान लाबता.
पूण वर्सुकी आंकाची गत कांय तशी न्हय.
वर्सुकी आंक वर्सभर अर्दीमर्दी वेळ मेळटा तसो चाळपाचो.
कोंकणीचो आंक वर्सुकी म्हणटकच हांव तशेंच करपाचों.
तरी लेगीत ताची हाताळणी आदीं जाली ताचें कारण शीलाच.
जालें कितें, हांव शुटिंगा खातीर मुंबय आठ दीस आशिल्लों.
आतां शुटींग म्हणनाफुडें जायते जाण कांचवेल्यात आसतले.
शुटींग हें उतर गोंयांत येवपी बॉलीवूडवाल्यां खातीर आसता.
ते उपरांत तें गोंयचे मातयेंत रुजयलें तें धर्मानंदान.
धर्मानंद वेर्णेकाराक जर कोणेंय विचारलें, 'खंय रे?' म्हण
तो दोन फावटी दीर्घ स्वास घेवन म्हणटालो, 'शुटींग आसा.'
ताचीं तीं दोनूच उतरां वेगळेंच थ्रील निर्माण करतालीं.
आतां गोंयांत तांची व्हडलिशी नविदाद उरूंक ना.
खंयच्याय बेकार तरणाट्याक विचारात, 'खंय रे?'
तो हड्डें मुखार काडून सांगतलो, 'शुटींग आसा रे.'
अमिता सलत्री, सुदेश लोटलेकार, महादेव खानोलकार हांकां तर विचारपाचें ना.
तांकां पळेनाफुडें धरून चलपाचें, हीं शुटिंगेक वतात.
देखूनच हांव 'शुटींग' उतर वापरूंक कांचवेतालों.
पूण शीलाक आनी वर्सुकी आंकाक लागून म्हाका तें वापरचें पडलें.
तर हांवें थारायलें, लेख बरोवन आयिल्ल्या पंचवीस-पन्नास रुपयांत
कांय राम ना.
रवळू, दगडू लेगीत सिनेमा काडून, सिरियल काडून जोडटात
जाल्यार हांवें ह्या मळार उडी कित्याक मारची न्हय!
हाच्या ताच्या हाताक कितेंय लायल्यार कितेंय करूं येता.
मंत्र्यांक धरून सरकाराच्यो कांय डॉक्युमेंटरी हातासल्यो.
पन्नास हजार भरून दूरदर्शनाचो नव्या वर्साचो कार्यक्रम घेतलो.
हांगा शुटींग करप आनी मुंबय वचून एडिटींग करप.
नव्या वर्साचो कार्यक्रम शूट करता आसतना शिरोड्यां सुदेश भोंसले मेळ्ळो.
ताका सांगलें, नव्या वर्साच्यो गोंयकारांक शुभेच्छा दी.
म्हणूंक लागलो, दितां. मुंबय यो आनी शूट कर.
आतां मुंबय शुटींग जाल्यार हो एकलोच कित्याक? सगळ्यांचें करूंया.
एन्. चंद्रा, वामन भोंसले, सचीन, वर्षा हांकां फोन केले.
तांचेंय शुटींग हांवें थारायलें आनी मुंबय गेलों.
रातभर कार्यक्रम एडिट करप आनी दीसभर बेकार.
म्हळें, मुंबय आसाच तेन्ना शीलाक फोन करूंया.
मुंबय वतां तेन्ना हांव शीलाक फोन करतांच.
आमचे फाटले म्हालगडे लेखकूय तशेच करताले खंय!
ते दत्ताराम सुखठणकार, अना म्हांबरो बी हांकां फोन करताले.
मुजरत तांगेर वचून साहित्यीक भूस मारताले.
आनी थंय कितें उलयताले बी तें खंयतरी छापून हाडटाले.
तें पयलीं हांव वाचतालों आनी हांवूय तशेंच करतलों अशें चिंततालों.
आतां, व्हडले व्हडले लेखक कांय म्हज्या वांट्याक येनात.
म्हजे खातीर शीला, जयमाला बी बरीं.
म्हजो फोन येनाफुडें शीलान म्हळें, यो मरे आमगेर.
कशें येवपाचें तें हांवें शीलाक विचारलें आनी जेवपाक येतां म्हळें.
तितलेंच दनपारचें म्हजें एक जेवण सुटपाचें.
पूण येतां म्हणिल्लें त्या दिसा सांजमेरेन शुटींग चल्लें.
उपाशीं पोटार शुटींग पूण लक्ष सगळें शीलान कितें रांदलां हाचेर.
दुसऱ्या दिसा परत फोन करून येतां म्हूण सांगलें.
ताणें सांगिल्ले प्रमाण सांताक्रूजच्यान दादर आयलों.
ह्यो मुंबयच्यो लोकली म्हळ्यार म्हजो जीव खावपी.
एकदां हांव विरारच्यान सांताक्रूज येतालों.
विरार लोकलींत चडलों तेन्ना काय बरें बसूंक बी मेळ्ळें.
म्हज्या हातांत दोन तीन टेपी, दोळ्यांक काळेंच रेबन.
आंगार जीन पॅन्ट आनी तसलोच एक जाकीट टायप कोट.
सांताक्रूज स्टेशन आयलें आनी हांव उठलों.

णेरी सांगिल्लें स्टेशनार पाकीट बी मारतात.
ख एक हात बोल्सार आनी दुसऱ्या हातांत कॅसेटी घेवन
शेदीन देंवतालों तर दारांत सामकी गर्दी.
रीव ते गर्दैतल्यान कसोय तरी सकयल देंवलों.
णकयले झुंडीन म्हाका परतो भितर व्हेलो.
ईसुट्टां सुट्टां कोणाक तरी म्हजी काकूळट आयली.
उस बुड्ढे को नीचे उतारो' अशें कोणें तरी म्हळें.
य म्हाका कोणेंय म्हातारो म्हणत जाल्यार म्हाका राग मारतालो.
म्हाका खूब खूब बरें दिसलें आनी म्हाका तांणी देंवयलो.
वाळांत म्हजे बूट खंयचे खंय पडले (मागीर ते मेळ्ळे).
घडणुकेन हांवें लोकल म्हणटात तिचें नांव सोडिल्लें.
लेक हांवें सांगलें, हांव टॅक्सी करून येतां.
यशे जाल्यात जाल्यार यो तूं टॅक्सीन', शीलान म्हळें.
री हांवें लोकल धरुनच वचपाचें थारायलें.
दिवाळी आंकांत हांवें शीलाची एक कथा घेतिल्ली.
तल्यो जायराती पळोवन दर एकल्याची मानधनाची अपेक्षा वाडिल्ली.
न आयिल्लो पळोवन शीलाचीय मत बिगडूं येताली.
लीनच बरे भशेन हांव दादर स्टेशनार पावलों.
ा दुसऱ्या प्लॅटफॉर्मविल्यान मुलूंडची लोकल धरली.
वतकच फेलीक्सबाबाक टॅक्सीवाले फटयतात म्हूण हांव हांसतालों.
कलिंचो अणभव घेतकच हांवें तें हांसप बंद केलें.
ोच त्रास जायनासतना हांव शीलाच्या फ्लॅटार पावलों.
र न्हिदूंक नाशिल्लों. दोन दीस न्हावंक नाशिल्लों.
पयलीं च्या, इडल्यो बी खूब कितें हाडून दवरलें.

तोंड धुवचें, न्हावचें काय ताणें हाडून दवरलां तें खावचें?
निमाणें, पयलीं खावन मागीर तोंड धुवन न्हावंचें अशें थारलें.
शीलाच्या घोवान एक तुवालो हाडलो. शीलान दुसरो दवरलो.
एका लेखकाची एके लेखिकेन केल्ली सरबराय अप्रूप आसली.
जीव चिटमिटलो. आरे, हाका आंक हाडला. मानधनूय हाडपाचें.
तरी हांवें ताका म्हळेंच, आगो, तुका मानधन येतलें आं!
आयकून शीला वेगळेंच हांसलें. ताका कॉमिक दिसल्या आसुंये.
दनपरां जेवणाक राव म्हणटालें, पूण हांव रावलोंना
वचपाक उठ्ठा आसतना ताणें विचारलें, कोंकणी आंक वाचलो?
हांवें ना म्हळें. तो आयला काय कितें तेन्ना म्हाका खबर नाशिल्लें.
गोंयां पावलों तेन्ना हांवें कोंकणी आंक आयला जाल्यार पळयलें.
तो वर्सुकी आंक जाल्ल्यान येवंक नाशिल्लो.
मेळ्ळो तेन्ना पयलीं शीलाचो लेख वाचलो.
तेन्ना म्हाका कळ्ळें, शीलाक प्रवास करूंक आवडटा.
पूण प्रवासाच्यो संदी मेळुनय ताचें नशीब ताका पिड्टा!
तरी आदीं गोंयांत कोंकणी लेखक संमेलनां बी जातालीं.
थंय पेपर वाचूंक बायलांक प्रतिनिधित्व आसतालें.
ते निमतान शीलाचो मुंबय ते गोंय प्रवास जातालो.
हालीं हालीं तीं संमेलनांय भरपाचीं बंद पडल्यांत शीं.
कोण म्हणटात कोंकणी फुडाऱ्यांच्या धुसफुशींक लागून लागून तीं बंद पडल्यांत.
म्हजी मात खात्री जाल्या – शीलाच्या प्रवासाक नशीब ना.
तेच खातीर हें सगळें घडटा.
ना जाल्यार संमेलनां बी कोणाक नाका जाल्यांत व्हय?

* * *

# स्मृतिमंथन

शरतचंद्र शेणै

दिल्ली
साळका देवळ
नवीन वास्तुकलेचें नवल.
त्या भव्य ध्यानमंदिरांत
अप्रूप खिणां – मोर्नी आनी शांत.
अकस्मात
विनाकारण
याद – एका कर्मयोगीची

मागीर
कुतुब मिनाराकडे
इंदियागेटाकडे
लाल किल्ल्याकडे
वचत थंय तीच याद
परतून परतून –
किरवंटेवयले गांठ्ये भाशेन
पावलाक तोपलेल्या कांट्या भाशेन.
तागेले खंय निमणे दीस
हे दिल्लींत सारलेले –

तीस जनवरी मार्ग
बिरला घर –
आतां हरदें निबर करचें पडतलें –
काळसांवाच्या बोल्सांत
हातांच्यो मुठ्यो करच्यो पडतल्यो –
तागेलीं खंय पवित्र पावलां
पळोवपाक मेळतलीं हांगा –

काळजा –
धा कोस धाविल्ले वरी
खरश मारता कित्या?
आतां कितेंच घडपाचें ना हांगा.
घडूंक आशिल्लें घडून गेलां.
उरल्यांत फकत निशाणीं.
बावन वर्सांची धूळि लागल्लीं
फिकीं पडिल्लीं निशाणीं

पुण समजिकायेचें उतर
खंयच्या काळजान केन्ना आयकल्यां!
घूडांत पडिल्ल्या विंदरा वरी
कुदून धाडवप –
तेंच हाजें कपला बरप !

चलून मुकार
पावलां हांव
पावलांकडे –
तांच्या म्हऱ्यांत चलतना
भ्रमांत सो पडून
आयचें काल, आनी
कालचें आज जाता!
म्हऱ्यांत आशिल्ल्यांक विसरतां
म्हज्या म्हाकाच विसरतां –

हीं पावलां
संथ संथ अशीं
खंय वतात?
भूंय सोडून वच्चें पडल्यारीय
भारत सोडूंक शकचींनात !
हांचें आनी ह्या देशाचें
तशें मू नातें
रगताचें आनी आत्म्याचें –

पावलांचीं निशाणीं सरतना
पिस्तुलाचें भोंकप आयकता?
थटाकून उडपी सवण्यांच्या
पांखां आवाज आयकता?
निमणीं तीं उतरां
निमणो मंत्र शांतीचो
– हे राम –
मागीर
माथें धाडावन बोब मारपी
एक अशांत मौन –

पिस्तूल ज्याणे चलयलें
अट्टहास ताजो उठता आजीय
आटय दिकांनी.
तोंड ना ताका
नांव ना, नामो ना.
ताज्या हातांत खंय
तण लेगीत लोखण जाता!
घेता तो सुरी, खांडें,
पिस्तूल, तुबक, बॉम –
म्हजें तुजें म्हणून आड्डून
मारल्यात ताणें कितल्या लोकांक!
वांटे मोडूंक सोदपी तो
कुटके तोडूंक सोदपी तो
देश चिरून तिसत्यो करूंक
लागल्या ताका नष्टी ताकतीक!
पूत तो ह्याच देशाचो
भाव तो म्हजो तुजो
मागीर जालो असो कसो?
वगडावंनाकात मोग ताजेर
रीग दिवनाकात भितर
न्हय शिवरची काकूट लेगित
अश्या विखाळ बेंदल्लेंचेर!

काळजा रे बाबड्या
नाका इतलो खतखतो –
विसव घे मात्सो –
आनीय तुवें पळोवंक आसा
भोव साबार!
पळय, तुका आपयता
शंकरालें बावल्यां घर
भारताचें मिनियेचर
अति सुंदर! अजाप कर!

वरां गेल्लीं कळ्ळें ना
पोराक पुरो जालें ना !
असोच मरे देशूय आमचो
कोटि कोटि जनांचो –
हीच विविधताय
हीच सुंदराय

शांतिवनांत भोंवतना
गुलाबाचो वास !
भुरग्यांलागीं खेळपी एका
दृष्ट्याचो उगडास

वियघाटांत मर्तीत आयलो
ळत जीविताचो एकलो
ळ कुशळ फुडारी –
तेस्थलार पळयलो
उ हात शक्तीचो –
मीर दिसलो गोबोर
या तरन्या सपनांचो –

आनी आतां राजघाट
यमुनातटावयलें यादघाट !
राजमार्गावयल्या आखाड्यार
एकटी फुल्लकारणी –
वळखिची न्हय
अनवळखीय न्हय
भयण न्हय, परकीय न्हय
तशे ती फुल्लकारणी –
तिणें दिल्लीं फुलां घेवंक
हात मुखार येना –
पळय जाल्यार निवळ न्हय !
चिखल मांडला –
चवड दसकांच्या
सान व्हड सुवार्थांचो –

म्हज्या, घे तीं फुलां'
थरथरता
न एक पावट
ज धीर सोडता.
ळ मरे स्वताक
नात हांगा पावलां बी !

प्रशांत सुंदर उद्याना मदें
सादो चौकोनी सोपो
काळ्या संगमरवराचो
खूब खूब वळखिचो
पूण पळोवंक नाशिल्लो !
सतत पेटचो नंदादीप
फुलां खातीर बांक
आनी तो शांति मंत्र
– हे राम –
पळयत रावल्यार
भितर उजवाड !
मोने म्हजे ओंठ.
जोडिल्ल्या हातां मागल्यान
काळजाचो धडधड.
दोळ्यां मुखार
हून दुकांचो धुंवर
गळ्यांत हुंडको
चिड्डून कसो –

'पानावेलीं फुलां
हांगा दवर धुवा' –
कोणा खातीर म्हूण
कळता व्हय तुका ?
हात जोड, पायीं पड
होवूय एक देवूच !

महात्म्या,
तुका ओंपिल्ल्या फुलांक
हात लावंक ना हांवें!
म्हज्या निष्कळंक पोराच्या
निवळ हातांनी केल्ली ही ओंपणी
स्वीकारून घे –
भेंट ही
एका मोन्या काळजाची !

हांगा
मेजक्याच दिसांनी
अमक्याच दिसांनी
तुजो उगडास घेतात –
फोटो वयली धूळि फुंकून
प्लास्टिकीची माळ धुवन
करतात आंगवणाचें पालन –
सात वात्यांचो दीवो जळोवन
फोटो वयलो देव करतात !

हांकां फोटो वयलो देव पुरो
शिरंगारिल्लें देवळ पुरो
नाचून केल्लें भजन पुरो
माचये वयलें भाषण पुरो –
भाषणकार गिरेस्तांच्या
बंगल्यांनी लांबतात
येदीं रंगीन चित्रां तुजीं –
पुण
दळदिऱ्यांच्या खोमटांनी मू
भोंवता तुजो आत्मो
रात दीस अशांत –

शंबर तीस वर्सां पयलीं
एक धन्य म्हुर्तार
पुण्य ग्रहांनी मेळून
पंचभूतां सारखीं मेळोवन
घडयिल्लो चमत्कार मू तूं!

अहिंसेचो मंत्र घेवन
सत्याग्रहा तंत्र घेवन
देश हो स्वतंत्र करून
मुक्तिदूत जालो
स्नेहदूत जालो
कर्मयोगी जालो
जालो महात्मो –

मातयेंत माती मेळसल्यारीय
उज्यांत उजो भरसल्यारीय
— पुरो !
ह्या वयार बेठींच रडचें
नाका पोरान पळोवचें –
ओल्ले पोल्ले ओगी पुसून
जड जड पावलां ओडून
परतून वचूया –
परतून वचूया.

# कविता

रमेश भगवंत वेळुस्कार

संवळी संवळी
सांवळी
उळविचे
सस्यकाशेची

मळबाक चिंवपी
सर्त लावपी रुखावळ
रुखापोंदा सूख
सांवळ्यांचें

रुखां माथ्यार
रखरख वताचो

झूळझूळ व्हांवतली
रान सळसळ

रुखारुखार
उदेवन येतलीं
सुकण्यांचीं संगीत-ब्रह्मां

सगळ्या रानांत
अरसून गेल्लों हांव

गडद सांवळ्यांचे मदसून
हांगा थंय शिंवल्लेल्या
सूर्यकिरणांचे नक्षेंतल्यान
भारदस्तपणान
रायकुंवरसो सोरोप सुंदर
घसघसत गेलो.

नदर काडूं नज
अशें हें सौंदर्य

सोरोप जावन हांव
रानभर भोंवलों

वझरो जावन
खळखळ व्हांवलों
किरांचें भिरें जावन
उड उड
उड उडत
भिरभिरलों

बिबटो जावन
वाऱ्या नेटान धांवलों...

शुभ मनस्थिति
निर्माण करपी
भारद्वाज जावन
ह्या रुखावयल्यान
त्या रुखार
सैम ओखेत ओखेत
रान हेडत गेलों

पाखां पाखांर दोळे घेवन
सवन रानाचें पांचवेपण
आंगार झिळमिळायत
तातूंत आमुरमळबाचो
निळो रंग कालोवन
मनभर मिरयलों

सोंशांचीं कापुशीं
जावन, कंवळे कंवळे
हरयाळेची रूच चोखली
सहजपणान
झिला झोपां आनी
बिळां बिळांय भोंवलों
धतरिच्या आंगाची
ऊब घेवन धादोसलों

झाडांच्या पदरापोंदचें
माणकुलें तळें जावन
मळबाचें दर्शन घेतलें
रुखावळिंचे
पानवळिंचे नक्षेंतल्यान

आनी ल्हारेत ल्हारेत
वाऱ्याचीं घुंगूरवाळीं
माणकुलीं पावलां खेळयलीं

आनी अणभवलें
वारियाच्या स्पर्शान
म्हजोय वारो जावन वयता
एका अद्भूत उद्भवाचें
देणें काय घेणें

म्हाका भोगत वयतालें
एक्कोड्या
सवणाऱ्यान
शांत दरयावयल्यान
उडत्त वयचें तशें

मागीर हांव
सवन जिवांच्या शिरंतरांनी
प्राण जालों

सवन जिवांचे
जागृतायेची
मंद मंद
उस्वास सुरावळ
सृश्टभर शेनूंक लागली

तांच्या अप्रतिम अस्तित्वाची
अनुपम उतरां जालों

सवन धतरिक घेरून
हांव
सगळे जिवावळींत
एकरूप जालों

तांच्या पेशिपेशिंतल्यान
सगळ्या आंगभर भोंवतना
प्राचिनांतल्यान चिरनूतन
जावपाचो अमर्याद आनंद
हांव घेत गेलों

आनी परत रान जालों
आनी फुलां फळां जालों
भुकेल्ल्या जिवांची
तृप्ती जालों
तांच्या तोंडावेलें
मस्त मस्त हांशें जालों
तांच्या मनांतले उत्सव जालों

तांच्या मनसुब्यांचें
समाधान जालों

सगळ्यांत आसुनूय नासपांत
एक अद्भूत आसता.

पाळें
११/१२/२०००

## हका तांची याद येता

र्लयु कार्दोज

इतिहासाचीं पानां

कुलकर्ण्याक गोंय सरकारान तात्पुरती दुडवांची थोडी पूण मजत ताकतीन म्हण पुनरवसन मंडळाचे एके बसकेंत थारायलें. थोड्या दिसांनी गोंय काच्या घर खात्याच्या सचीवाची ताका एक चीट आयली. ती घेवन तो आयलो. चीट उगडल्यार भितर चेक बी कांयच नासली. नित्यकर्मां परमणें र्मां भरून धाडपा खातीर धाडलली. तो तीं फॉर्मां भरून धाडटा, सरकार न तांची चौकशी करता आनी शेकीं ताका पॅनशन येता म्हळ्यार जायते नागपाचे. ताका ताकतीन थोडे तरी दुडू गरजेक मेळूंक जाय आसले. हांवें भरून घर खात्याक धाडून दिलीं आनी एका दिसा मुखेलमंत्र्याक मेळूंक ी. राणें कडेन हांव कुलकर्ण्या विशीं उलयलों आनी ताका लांबाय ातना मुखेलमंत्र्याच्या निधींतले थोडे पूण दुडू दिवंक सांगलें. मुखेलमंत्र्यांनी . आनीक कांय दीस गेले.

९८६ वर्स सुरू जाल्लें. त्या दिसांनी कोंकणीचे चळवळीक बरोच नेट ो. सरकारान कोंकणी गोंयची राजभास करची म्हण गांवां गांवांनी सभा, जातालीं. कोंकणी मोग्यांनी पणजे आझाद मयदानार सांकळ-उपास सुरवात केल्ली. फेब्रेरा म्हयन्याच्या एका दिसा हांव आनी कवी रमेश र उपास करूंक मयदानार गेले. २४ वरांचो उपास तो. उपास करतल्यांक बळ दिवंक जायते इश्ट-मित्र आमच्या सांगाताक थोडो वेळ रावन गेले. हांवें आनी रमेशान साबार विशयांचेर उलोवन सारली.

सऱ्या दिसा सकाळीं आझाद मयदानार कुलकर्णी म्हाका मेळूंक आयलो. काराचो दोन हजार रुपयांचो चॅक आपणाक आयला म्हण ताणें म्हाका म्हजो उपास दनपारच्या दोनींक सुट्टलो आनी तो वेळ मेरेन ताचें काम आसल्यार तें करून यो म्हण हांवें म्हळें. पूण तो आमच्या सांगाताक ासून रावलो.

पास मोडटच हांव आनी रमेश एके खाणावळींत जेवणाक वचपाक लागले. र्याकूय आमचे बराबर आपयलो. पूण तो मुरवतीन फाटीं फुडें जावंक . हांवें ताका बळान जेवणाक व्हेलो.

जेवण जातच रमेश गेलो. हांवें कुलकर्ण्याक विचारलें, 'तूं गोंयां आसल्यार दीस जाले. तूं आझाद गोमंतक दलाच्या ऑफिसांत केन्ना वचूंक ना?'

'गेल्लों'' - कुलकर्ण्यान जाप दिली.

''थंय तुका कितें सांगलें? तुजी मजत बी कांयच करूंक ना?''

थोडो वेळ तो ओगो रावलो आनी उपरांत सांगलें: ''स्वातंत्र्य सैनीक म्हण रपा खातीर सरकारी दप्तरांतले गरज ते दाखले हाडूंक दोनशीं रुपया जाय म्हण सांगलें.''

''तुवें आर्कायव्हजांत थावन दाखले हाडल्यात तांचे कितले दुडू फारीक ?'' - म्हजो प्रस्न.

'कांयच फारीक करूंक ना'', ताणें म्हळें.

खरें म्हळ्यार आर्कायव्हजांतले सुटके झुजाऱ्यांचे दाखले हाडूंक दुडू फारीक करूंक पडनासले. आनी वीद्ध खावंक दमडी नासलल्या मनशा कडेन आझाद गोमंतक दलाचे कारभारी २०० रुपयांची मागणी करूंक लागलो.

''तूं कितले पावटी त्या ऑफिसांत गेल्लो?'' - हांवें विचारलें.

''दोन-तीनदां.''

''एक सांग. थंय तुका च्या बी केन्ना दिल्ली?''

ताणें 'ना' म्हण मान हालयली. म्हाका अजाप दिसलें. गोंयकार आपूण आतिथ्यशील म्हण मिरयतात. गोंयचे सुटके खातीर इतलो त्याग केल्ल्या ह्या मनशाक ताचे लाचारकायेंत, जेवण सोड, एक च्या पूण दिवंक त्या ऑफिसांतल्या एकाय गोंयकाराक तांकूंक ना!

चॅक मोडून २००० रुपया घेतकच ताणें मुंबय भावाच्या बिराडार वचूंक चिंतलें. थंय पावतच पॅनशना खातीर फुडल्यो राटावळी करूंक हांवें ताका सांगलें. थोड्या दिसांनी गोंय सोडून तो मुंबय गेलो. उपरांत म्हाका ताची खबर मेळूंक ना. कोणकोणा कडेन ताचे विशीं वासपूस करतकच तो हो संवसार सोडून गेलो म्हण कळ्ळें. म्हाका खूब वायट दिसलें.

हांवें आग्वादाचे बंदखणींत गोंया भायल्या कैद्यां सांगाताक सुखा-दुखाचे दीस काडल्यात ते विसरूंक जायनात तसले. त्या कैद्यां भितर महाराष्ट्रांतले आसले ते सभावान थंड आसले.

एका प्रसंगाचो उल्लेख करीन दिसता. महाराष्ट्रांतल्या कैद्यां भितर एक मायेस्त सभावाचो आसलो. तांचें नांव हांव मुद्दम सांगना. एका दिसा हांव आनी तो उलयतना म्हजी नदर ताच्या हातां बोटांचेर गेली. ताचीं बोटां दाट आनी रूंद आसलीं. आंकडे ऊंचड आनी नाकटां मोटवीं - अशीर. एकदां हांवें एक पुस्तक वाचललें - मुखसामुद्रीक विद्येचें. हे विद्ये परमणें मनशाचे कुडिच्या कांय लक्षणां वयल्यान ताचो सभाव पारखूंक जाता. हे विद्येचेर म्हजो १००% विस्वास ना. पूण त्या दिसा योगायोगच जालो. आंकडे उंचड आनी मोटवीं - अशीर नाकटां आसपी मनशाक खून करपाची वृत्ती आसता म्हण त्या पुस्तकार आसलें. तसल्या बोटांचीं चित्रांय आसलीं. ह्या मनशाचीं बोटां पळेतकच म्हाका त्या पुस्तकांत आसलल्या चित्रांचो उगडास जालो. हांवें सहज फकाणांनी ताचो हात चयत ताका म्हळें, ''आरे, तुवें खून केला? तुज्या हातांक पळेल्यार दिसता.'' हांव पयलीं जादूचे प्रयोग करतालों म्हण जायत्यांक खबर आसली. ह्या मनशाक हांवें तसो प्रस्न करिना फुडें ताचें तोंड पडलें आनी गंभीर जावन ताणें 'हय' म्हळें. हांव चकीत जावन ताच्या तोंडाक पळेत उरलों. ताणें खरी गजाल सांगली.

तेन्ना मुंबय एका वाठारांत हिंदू-मुसलमानां भितर दंगे चलताले. त्या वेळार ताची पिराय सुमार १५-१६ वर्सांची. ताचे कडेन ताचे वळखिच्या एकल्यान एक मोटो फातर दिलो आनी ताका एके शिडये वयर दवरलो. कोणूय मुसलमान तेवटेन वतना ताचेर तो फातर उडय म्हण ताका सांगलें. थोड्या वेळान रस्त्यान एकलो वतालो ताचेर ताणें तो फातर उडयलो. फातर नीट त्या मनशाचे तकलेर पडलो. थोड्या वेळान तो मनीस थंय फडफडून मेलो...!

(चलता)

---

*तुजेर जाल्लो अन्याय सोंस. पुणून आपूण कोणाचेरूच अन्याय करचो ना हाची जतनाय घे.*

*सोंशीकपण व्हडपण दिता.*

*सत्यान चलतल्याचो उजवाड सुर्याच्या उजवाडा परस घणघणीत फांकारता.*

# 'पालक आनी भुरगीं'च्या निमित्तान

**सुधा आमोणकार**

'पालक आनी भुरगीं' हें भौ. स्नेहलता भाटीकार हांणी बरयल्लें, हालिंच्या काळांत कोंकणींत उजवाडा आयिल्लें एक म्हत्वाचें पुस्तक. वेल्लोर, चेन्नाय, बंगळूर आनी गोंय हांगासल्ले दोन तपांचे, आपणाले जिवेतट्टटीत अणभव स्नेहलताबायन ह्या पुस्तकांतल्यान फिशालकायेन वाचप्यांच्या काळजा मेरेन पावोवपाचो सफळ यत्न केला. पालक आनी भुरगीं हांचे मदले संबंध, घरांतलें वातावरण, पालकांचें व्यक्तिमत्व हे विंशीं जायत्यो सुचोवण्यो दिवन तांणी पालकांक बरें मार्गदर्शनूय केलां.

पालकांक सामान्यतायेन दिसता, भुरग्यांक वाडोवप जणएकल्याक आपशींच जमता. तातूंत आनी कितें शिकपाचें? पूण वस्तुस्थिती अशी ना. वेगान बदलपी संवसारांत पयलिंचो वारसो फुडें करून चलचो ना. वस्तुस्थितिचें ज्ञान आनी आत्मनिरिक्षण खूब म्हत्वाचें. आयज एकठांय कुटुंबपद्धतय ना जायत चल्ल्या. देखून चडशा पालकांक मार्गदर्शनाची भोव गरज आसता. कायदो, वैजकीशास्त्र, रसायनशास्त्र, भौतिकशास्त्र ह्या शास्त्रां वरीच बालसंगोपन हेंय एक शास्त्रच. बालसंगोपनाचेय योग्य आनी अयोग्य मार्ग आसात. तातुंतय शिकपा सारकें खूब आसा. भुरग्याची सैमीक वाड जाली ना जाल्यार तीं खिन्नुडटात. पालकांच्या सदोश वागपाक लागून 'नाका तशी वाड' जावपाचो भंय चड आसता. भुरग्याचे संस्कारक्षम पिरायेंतल्यो म्हत्वाच्यो घडामोडी आनी धोक्याच्यो सुवाती जाणून घेवप गरजेचें आसता. आनी ही गरज ह्या पुस्तकान खुबशी भागयल्या हें मानचेंच पडटलें.

अेरिम सिम नांवाचो बालरोगचिकित्सक म्हणटा, 'भुरग्यांचें बरें संगोपन करपा खातीर फकत भुरग्यांचेर मोग करून भागना. हें एक स्वतंत्र शास्त्र समजून, ताचो चिकित्सक नदरेन अभ्यास करप गरजेचें. कारण, फकत भुरग्याक जल्म दिलो म्हूण तांकां समजून घेवप आनी तांकां बरें कितें हें वळखप ह्यो गजाली आपशींच येनात.'

स्नेहलताबायन कांय प्रस्नांचेर बरी भासाभास केल्या. देखीक, भुरगीं पालकांक पयसावतात कित्याक, हार्चीं कारणां दिता आसतना तांणी म्हळां, *''भुरगीं पयसावपाचीं खूब कारणां आसलीं तरी सगळ्यांच्या मुळा कडेन बरो संवाद नासप हेंच मुखेल कारण. खूब फावटीं भुरगीं वाडटात आनी पालक तेदेच उरतात. भुरगीं सगळ्या बदलांक आपणायतात. पालक तशें करिनात. भुरगीं व्हड जातकच तांकां आपणालीं खाशेलीं मतां आसतात. ते परमाण वागपाचें स्वातंत्र्य तांकां आसा हें मान्य करचेंच पडटा. जें पटना तें सांगपाचें. जाय तेन्ना तांकां चत्राय दिवन सावध करपाचें. पूण जबरदस्तीन आयकूंक लावं नये. आमी पालक भुरग्यांच्या जीवनाचे रथ कायम हांकूं शकचीं नात. केन्नाय तरी तांच्यो दोरयो तांच्या हातांत दिवच्योच पडटल्यो. हाची तयारी पयलीं पासूनच आसूंक फाव. अशें म्हणटात की, शिस्त लायली ना म्हूण भुरगें क्वचितच बिघडटा. मोग मेळ्ळो ना म्हूण बिघडणाऱ्या भुरग्यांचें प्रमाण चड आसता.''*

बालमानसशास्त्र आनी शास्त्रीय मार्गान करपाचें बालसंगोपन ह्या गजालिंचेर ह्या पुस्तकान खूब उजवाड घाला. भुरगें उलोवंक, चलूंक लागलें, शाळेंत वचूंक लागलें म्हणटकच बालसंगोपन सोंपलें असो चडशा आवयांचो गैरसमज आसता. कुटुंबांतले दर एके आवय वांगडा हेर प्रौढ, बापूय, शाळेंतले




शिक्षक हांकांय बालसंगोपनाची म्हायती आसप म्हत्वाचें. दर एका भुरग्याची शारिरीक, मानसीक आनी भावनीक उदरगतिची दिशा आनी पांवडो, ह्याच संगोपनाचेर आधारून आसा हें लेखिकेन हांगा बेस बऱ्या देखिंनी पटोवन दिलां. ह्या पुस्तकाची मांडणी शास्त्रीय बसकेर करून स्नेहलताबायन पालकांचीं कर्तव्यां भोव बरे तरेन समजावन सांगल्यांत.

भायल्या पाना वयलें खासा लेखिकेनूच केल्लें रेखाटन तर सामकें सूचक जालां. भुरगें म्हळ्यार मातयेचो गुळो कसो. ताका घडोवचें पडटा. ताका आकार दिवचो पडटा. ताका आवय-बापायचे मायेचे हात जाय आसतात.

दोतोर प्रशांतम म्हणटात तें सामकें सार्थ कशें – ''Parenting is a powerful tool which can help or hinder a healthy and mature personality growth.''

भुरगीं म्हळ्यार फुलां. फुलां भाशेन तांकां वागोवपाचें, फुलां-झाडांक जशें सारें-उदक गरजेचें, तसोच भुरग्यांचेर मायेमोगाचो शिंवर घालप गरजेचें. भुरग्यांचे उदरगती मदलो पालकांचो वांटो भुरग्यांक तांच्या यत्नांत पाल्व दिवपा मेरेनूच मर्यादित आसूंक जाय. तांचे मर्दीं आत्मविस्वास निर्माण करप हेंच चड म्हत्वाचें. कावन्सलराचें खरें काम हें. दुसऱ्यांक सुदारप कावन्सलराचें काम न्हय. कावन्सलर फकत कावन्सलिचें आत्मबळ वाडोवन खासा ताकाच आपणाल्या जिवितांत सुधारणा घडोवन हाडपाक मदत करता. एक फावट दुश्टचक्रांतल्यान भायर सरतकूच मन मेकळें जाता आनी बुद्द काम करूंक लागता आनी खंयच्याय प्रस्नाची जाप आपशींच मेळटा हें खुबशो देखी दिवन लेखिकेन पटोवन दिलां. देखीक, एक घडणूक—

गीता जें येवजिता तें ताच्या मतान बरोबर आशिल्लें. प्रस्न ताचो म्हणून हांगा ताचो दृश्टिकोन म्हत्वाचो आशिल्लो. आनी ताच्या उणेपणांचे उपाय सोदून काडपाक जाय आशिल्लें.

गीताचो बापूय सैन्यांत एक व्हड ऑफिसर आसलो. ल्हान आसतना

सऱ्या ऑफिसरा वांगडा पळून गेल्ली. तेन्नाच्यान आपूण कोणाकूच बुद्द जन्म दिवपी आपले आवयकय नाका म्हूण ती आपल्याक ली असो ताणें समज करून घेतलो. हे खंतींतल्यान तरेतरेचे का दिसपाक लागले. आनी ताणें आपणा भोंवतणींच एक विासहीण वातावरण (insecure environment) निर्मिलें आनी थणार मुतपाक लागलें. कोणाच कडेन इश्टागत करप ना, खेळप ण हांकां नसाय, आपल्याक कोण आफयना, आपूण कोणाक हीच समजूत.

ताबायन ताका आपले म्हऱ्यांत हाडून दवरलें. नोकरांक, शेजाऱ्यांक, सगळ्यांक तें मानवलें. आयज मेरेन आपणाक दिसतालें तें फट येजूंक लागलें. आपुणूच जावन हेरां वांगडा खेळूंक लागलें. भुरगींय डा खेळूंक लागलीं.

तेंपान ताचे वांगडा उलयतना तिणें प्रस्न केलो, ''तुजी आवय न गेली ती तुकाच लागून अशें तुका दिसता? घरांत तूं, तुजो नी घर, म्हळ्यार तुमी तिगां आशिल्लीं. तुज्या बापायक वाजेवन री गेली आसुंये. घर आवडना म्हूण ती गेली आसुंये वा, तूं नाका म्हूण गेली आसुंये, वा, बापूय घर आनी तूं हीं तिगांय नाकात म्हूण गेली आसुंये. तुका कितें दिसता?'

जाप दिली, ''आण्टी, तें अशें जालें जावंक जाय – म्हज्या आनी आवयचें केन्नाच पटलें ना. म्हज्या बापायचो इश्ट तिका डला जातलो. हांवें ताका पळयला. दिसपाक बरो, म्हज्या बापाय गो आनी पयशेकारूय बी. म्हजो बापूय गंभीर सभावाचो. ताका हांवें केन्नाच पळोवंक ना. पूण हो इश्ट खूब विनोदी. म्हाका खूब आवडटालो. म्हजे आवय परस म्हजो बापूय पंदरा वरसांनी शेल्लो. आतां पळोवंक गेल्यार, चड करून हेंच कारण आसूंक म्हजे खातीर वचूंक ना. ती, तिचें आनी म्हज्या बापायचें पटलें गेली.'' ही समजिकाय येतकच ताचें हांथरुणार मुतपय बंद

लिंग म्हळ्यार कितें, संभाशण चिकित्साये तत्त्वां, मनोवैज्ञानीक विशिंर्ची तत्त्वां-विधानां सांगून तांकां फाव तश्यो, सदचे जिणेंतल्यो देखीक दिवन स्नेहलताबायन खुबशो गजाली पटोवन दिल्यात. म्हळ्यार कितें आनी ती कित्याक आसची, कशी आसची, वां आनी शाबासकेचें म्हत्व, स्व-मोलाचें (self-worth) म्हत्व, व्यक्तिमत्व, कुबड्यांचेर चलपी जीण, भुरग्यांचेर कसलीच दारकी घालिना जाल्यार भुरगीं मुखार जबाबदार जावपाक कशीं बरें शिकप आनी बरें वागप ही भुरग्यांची दायकी. खुबश्यो पिडा आसतात अशें म्हणटात, पूण बरे तरेन, फिशालपणान भुरग्यांक ार कसलेय पिडेचेर कांय प्रमाणांत ताबो दवरूं येता. पालकांच्यो यो मागण्यो आनी भुरग्यांची जीण – आवय बापूय भुरग्यांचेर तातच, पूण कांय पालक अती-मोग करून तांकां घुसमटावन तशेच कांय पालक आपल्या भुरग्यांचेर मोग करून लेगीत तांचे त्वाकांक्षेक लागून भुरग्यांचो घात घेतात, ह्या मुळाव्या गजालीं खेकेन फिशालकायेन पालकांचें लक्ष ओडून घेतलां. तांच्यो जायत्यो पालकांक खुबशा प्रमाणांत उपकरा पडटल्यो.

ताबायन दिल्ल्या तत्त्वांचें विवरण, देखीक मोगाचें समतोलपण, शिस्त, व्यक्तिमत्व, आवड निवड हे संबंधीं आयच्या काळाची ांत घेवन दिल्ली म्हायती आमकां पालकांक भोव मार्गदर्शक तूंत दुबाव ना.

-भुरगीं हांचे मदले संबंध, घरांतलें वातावरण, पालकांचें व्यक्तिमत्त्व विवरण-भासाभास, तांचे मदले संवाद खूब जिवे तट्टटीत आनी दोळे उकते करपी अशे जाल्यात. लेखिकेन म्हणिल्ले प्रमाण ''दर मनशाचें व्यक्तिमत्व आनी सभाव जरी वेगळे आसले तरी आमच्या समाजांतले प्रस्न सगळे कडेन चड करून सारकेच आसतात. सगळे कडेन तेच तेच प्रस्न परतून परतून उप्रासतात. ते पंजाबांत जावं वा तामिळनाडूंत जावं, देखून हांवें ज्या घडणुकां विशीं हांगा बरयलां तें वाचून भुरग्यांच्यो समस्या आनी त्यो सोडोवपाच्यो वाटो हांचे विशीं वाचप्यांमदीं कांय अंशी जाणविकाय वाडूं येता. आनी ती वाडची आनी भुरग्यांक वयर काडपांत मदत जावंची हेंच ह्या पुस्तकाचें उद्दिश्ट.''

हें तांचें उद्दिश्ट पुरायेन सफळ जालां अशें म्हाका दिसता.

तांची भास सादी-सोंपी तशीच प्रभावी आनी तळमळिची. ताका लागून लेखिका कितें सांगूंक सोदता तें सोंपेपणान काळजा मेरेन पावता.

कांय खाशेल्यो समस्या आनी उपाय हांचे संबंधान लेखिका फाव तशें विवरण करता. ती म्हणटा, ''काय पालक नोकरी करपी जावं हेर कामाक लागून चड वेळ घरा भायर उरतात. ताका लागून आमी भुरग्यांची जाय तशी जतनाय घेवंक शकनात अशें दिसून तांचें मन तांकांच खाता. मागीर अपराधी मनान तीं भुरग्यांच्यो सगळ्यो मागण्यो मान्य करतात. पूण हें बरोबर न्हय. भियेत भियेत भुरग्यांक वयर काडप बरोबर न्हय. ना म्हणपूय गरजेचें आसता. ना म्हणटा आसतना आत्मविस्वासान म्हणचें. आपूण करता तें बरोबर अशें आपणाक पयलीं समजावचें आनी सरळ आत्मविस्वासान ना म्हणून सांगचें. पूण नसत्यो मागण्यो केन्नाच मान्य करच्यो न्हय. भुरग्यांक तें येवजुपाक शिकोवचें.''

पालकांचें व्यक्तित्व हे विशीं ती म्हणटा, ''आपल्या भुरग्याक समजून घेवचें. वेळच्या वेळार तांकां, संद सादून जिवितांतल्या मुल्यांचें म्हत्व (value system) सोपे पद्दतीन समजावन सांगचें. हाचो परिणाम बरो जाता. पालक आनी भुरग्यां मदली समजिकाय वाडटा. भुरग्यांक पालक आपणालो इश्ट कसो दिसता, कसलेंय संकट आयल्यार भुरगीं मागीर पालकां म्हऱ्यांत वचून त्या संकटांतल्यान भायर सरपाची वाट, पालकांच्या पालवान सोदूंक लागतात. भुरग्यांक तांचे विचार उकतेपणान उलोवपाची स्वतंत्रताय दीत जाल्यार भुरग्यांकडल्यान खुबशें शिकूं येता.

नोकऱ्यो करपी आवयन भुरग्यां वांगडा चड वेळ घालोवंक मेळना म्हूण वायट दिसून घेवपाची गरज ना. It is the quality of time and not the quantity of time that is important.''

उणेपण दाखोवन दिवपाचे संवंयेचेर ती म्हणटा: ''हेरांची चूकच दाखोवप फाव कशें न्हय. दुसऱ्यांचो बरो गूण सोदून काडून तो दाखोवन दिवप हें फायद्याचें.''

आवयो अभ्यासा विशींच चड उलयतात. बरे संस्कार करपा विशीं उलोवप, वा, बरें कितें, वायट कितें हांचे विशीं संभाशण आयकूंक येना.

भुरग्यांनी घेतिल्ले थाराव थोडे समा आनी थोडे चुकिचे आसूं येतात. बऱ्या थारावां बद्दल तांकां सदांच शाबासकी दिवंची. चुकिच्या थारावां खातीर भुरग्यांक दुशण दिनासतना, चूक खंय जाली हाचें विश्लेशण भुरग्यां वांगडा बसून करचें. अशें करतकूच तीच चूक फुडें जावंची न्हय ही जतनाय तीं घेतात.

चल्या-चलयेक समान वागणूक दिवपा संबंदिची सुचोवणी समाजाक खरे उदरगतिचे वाटेर व्हेले बगर रावची ना.

पालकपणाची परिक्षा दर खिणाक दिवंची पडटा. फ्रीमन हो मानसशास्त्रज्ञ म्हणटा, शिकोवप, उपदेश करप, वाट दाखोवप, सल्लो दिवप, आज्ञा करप ह्यो सगळ्यो गजाली पालक सदांच करतात. म्हळ्यार, हो संवाद वयल्यान सकयल असो एकेच दिकेन जायत आसता. फ्रीमन म्हणटा, भुरग्यांक केन्ना केन्ना आमने सामने मेळचें. तांचें आयकुचें, तांकां शिकोवंक दिवचें, पालकांची तयारी आसत जाल्यार भुरगीं तांकां खूब कितें शिकोवन

वतात. 'बालादपि सुभाशितम् ग्राह्यम्' हें खरेंच पटोवन दितात.

भुरग्यांचें मन वळखुपाचो ध्यास लेखिकेचे प्रतिभेक लागिल्लो आसुंये. आनी म्हणुनूच तिच्या दर एका उतराक प्रत्ययकारित्व लाभलां. नवे नवे दिश्टावे, नवे नवे अणभव हांची रूच घेत घेत तिची जीण फुलल्या आनी त्या अणभवांचो वांटो आमचे मेरेन पावोवन आमकांय तिणें खोस दिल्या.

भुरग्यांक आमी कोणेंय तरी समजून घेवंचेंच पडटलें हो महामंत्र तिणें आमकां दिला. कशें समजूं येता, केन्ना समजूं येता हे संबंधिचें मार्गदर्शन तिणें फाव त्या देखिंनी दिलां. ह्या पुस्तकांत एके आवयचें काळीज सामकें तळमळीन आनी उमळशिकेन उकतें जालां. तांतल्या दर एका उतराक खाशेल्या अणभवाची तांक आसा. देखून तीं उतरां वाचप्याच्या काळजा मेरेन नीट पावतात. तिणें वर्णिल्ले ल्हान सान प्रसंग आमच्या जण एकल्याच्या घरांत, दोळ्यां मुखार घडटना आमकां दिसतात. भुरग्यांच्यो अरळ भावना तितलेच सहजतायेन समजुपाची स्नेहलताबायची तांक अप्रूप कशी. वाचतना खुबशें कितें शिकूंक मेळ्ळें म्हणपाची खोस जाली.

भुरग्यांक वाडयता आसतना पालकांक कांय समस्या जाणवतात. ताचेर readymade solutions, वखद दिवप म्हाकठीण पूण त्या मार्गविल्यान वता आसतना कांय सपणां लागतात. तांची म्हायती मेळत जाल्यार तांचे वेल्यान वचप सोंपें जावं येता. भुरग्यांच्या आंगांत आशिल्ल्या गुणांक फुलोवप, तांच्या व्यक्तिमत्वाक पोसवण दिवप, आनी तांच्यो अडी-अडचणी पय करप आनी अचळय तांचे उदरगतीक पालव दिवप हें काम लेखिके बेस बरें केलां.

खलील जिब्रान म्हणटा, ''भुरग्यांक उबदार घर दिवंक जाय. पूण आप विचार तांचेर लादूंक फावना. पूण आयज घरांच शेणल्यांत. वचत श व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो दिसतात. बिल्डिंगांतलीं मनशां एकामेकां कं मायेन वागतलीं तेन्नाच तांचीं घरां जातलीं. घरांत सगळ्या सुवातिंचेर कॅक्ट लायल्यात काय कितें? घरांतल्या मनशांचे संबंधय कॅक्टसा सारके तोंप जाल्यात? भुरग्यांचो बुध्यांक काडटना तांच्या आनंदांकय म्हत्त्वाचो विसरुंचें न्हय.''

स्नेहलताबायचें हें पुस्तक आमकां पालकांक भुरग्यां खातीर उब घर दिवपाक स्फूर्त दितलें हातूंत इल्लोय दुबाव ना. तांच्या ह्या यत्नाबद्द तांकां हुनहुनीत परबीं.

**पालक आनी भुरगीं**
**स्नेहलता भाटीकार**
**युगवेद प्रकाशन, १९९९**
**पानां : १३८**
**मोल : रु. ७५/-**

REGD. No. GOA 1